## आमची कांय प्रकाशनां

- फोरेंन जांवय (नाटक)

  .............. एन् शिवदास
- कावळे (एकांकी)

  .............रामदास नायक
- नचिकेता (कविता)

  ...........डॉ. दयानंद राव
- पारजत परमळ (ललित निबंध)

  ...... डॉ. उमानाथ राताबोली
- पावस फुलां (कविता)

  .......... राजय रमेश पवार
- बाबू (काणी - भुरग्याखातीर)

  ............. एन्. शिवदास

# वळेसर

(ललित लघुनिबंद संग्रह)

## मुकेश थळी




जैत प्रकाशन

**वळेसर** (ललित लघुनिबंद संग्रह)

**- मुकेश थळी**

---

**VOLLESOR** (A Collection of Short Essays)

**- By Mukesh Thali**


❐ प्रकाशन क्र. ५

❐ © **ॲड. सुहास थळी**
मुखेल पोस्ट ऑफिसा फाटल्यान
पणजी - गोंय.

❐ **पयली उजवाडावणी:**
मार्च १९९५





❐ **उजवाडावपी:**
भिकू बोमी नायक
जैत प्रकाशन
बेतकी - माशेल, गोंय ४०३ १०७.

❐ **छापपी:**
श्रीकांत आमोणकार
सम्राट प्रिंटर्स
बाणस्तारी - गोंय.

❐ **मुखचित्र :**
डॉ. सुबोध केरकार

❐ **मोल :**
३२ रूपया




---


**हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चंवर' अनुदान येवजणेखाला छापलां.**


---

जिवितांत गुपाट काळोख दाटिल्लो तेन्ना
घणघणीत उजवाडाच्या पर्जळान न्हाणोवपी ;
नेणारपण , अज्ञान पयसावन
सत्याची चरचरीत अनुभूती दिवपी ;
जिविताच्या प्रयोजनाचें सार शिकोवन
म्हज्यांत गुणांची सोबितकाय , जिज्ञासा ,
सोंशीकपण , विद्यार्थीपण आनी मनीसपण
हांडूंक वावुरपी ;
म्हज्यांत परम आनंद आनी शांतीचें पोरसूं फुलोवपी ;
म्हजेर उपाट प्रेम करपी
म्हज्या पुजनीय **गुरूमहाराजजीक**
भक्तीभावान अर्पण . . . .

# आशीर्वचन . . .

एक भुरगो . गिझान जोडपाची तळमळ आशिल्लो . खूब वाचता . जितलो वाचता तितलो ताका आपूण अज्ञान म्हूण कळटा . तो एका शिक्षकासरीं वता आनी आपणाक जिविताचें कुवाडें सुटना म्हूण सांगता . जिविता फाटलें प्रयोजन कितें , जिविताचो उद्देश कितें , म्हूण विचारता . शिक्षक फटक् करून उसळटा , आनी ‘ लाग चलूंक ’ म्हूण ताका धांवडावन घालता . आपणाक शिक्षकान कित्या खातीर धांवडावन घाला हें भुरग्याक समजना . दुसऱ्या दिसा परतोय तो त्या शिक्षकासरीं वता . आपणाक वेदांत शिकय , उपनिषदां शिकय म्हणटा . शिक्षक परतोय तापता आनी ‘ वासिमोर ’ म्हणून ताका परतो धांवडावन घालता . भुरगो खंती जाता . तिसऱ्या दिसा परतो वता आनी आपणाक सत्य कितें तें अणभवपाचें आसा म्हणटा . शिक्षकाचें पित्त खवळटा आनी परतोय तो ताका ‘ लाग चलूंक ’ म्हणून धांवडावन घालता .

निमाणें , चौथ्या दिसा , तो आपणाक कितें शिकूंक जाय तेंच खबर ना , आपूण एक पोकळ बांसरी जावन आयलां , तुका जाय ते सूर तूं हे बांसरीतल्यान काड म्हूण शिक्षकाक सांगता . आपूण एक नेणार विद्यार्थी , आपूण कांयच नकळ म्हणटा , आनी रडटा . शिक्षक ताका वेंगांत घेता आनी ‘ आयज तूं खरो विद्यार्थी जाला , शिकपाची कुवत आनी पात्रताय तुज्यांत आयज आयल्या ’ , अशें खोशी जावन म्हणटा आनी ताका आपणासरीं येवन राव म्हणटा .

कोणे बरयल्याशी दिसता ही कथा ? खलिल जिब्रानान ? न्हय . मुकेश थळयान . हे कथेंतल्यान ताणें आमकां आपणालीच वळख करून दिल्या . तागेलो आत्मपरिचय हो , जो ह्याच पुस्तकांत आयला .

मुकेशाक हांव ताच्या भुरगेपणासावन वळखतां . तो म्हजो कितल्याशाच वर्सां पसूनचो शेजारी . हजार खेपो तो म्हजे सरीं आयला आनी हजार तरांचे प्रस्न ताणे म्हाका विचारल्यात . ताका हांवें केन्ना ‘ लाग चलूंक ’ , ‘ वासिमोर ’ बी म्हणून धांवडावन घालूंक ना जायत , पुणून फट कित्याक सांगूं , आयला तेन्ना-

तेन्ना 'आ : हो आतां जीव खातलो' अशें मात सदांच दिसलां.

आयज तागेलें हें माणकुलें पुस्तक वाचतकूच दिसलें, मुकेशांतली जिज्ञासा आयजूय जिती तट्टटीत आसा, आपूण कांयच नकळ हाची जाणवीक आयजूय ताच्यांत जिवी उरल्या. ताची quest चलत आसा आनी नवें नवें कितें तो एकसारको शिकत रावला.

आपूण कांयच नकळ हें जाका खबर आसता ताकाच जिविताची सास्वत सत्यां होलमत रावतात.

खूब तेंपान एक बरेंऽ पुस्तक कोंकणीत वाचूंक मेळिल्ल्याची खोस भोगली. मदीं मदीं कांय वाक्यां तांबडे, निळे पेन्सिलीन मार्क करचींशीं दिसलीं. असलीं खूब थोडीं पुस्तकां म्हाका हालींचे कोंकणी बरपावळींत वाचूंक मेळ्ळ्यांत.

मुकेशाची भास ताका होलमल्ल्या सत्याक सोबसारकी, सादी आनी सोपी. शैली प्रांजळ आनी प्रामाणीक. मदीं मदीं तो आमचीं बिंगां दाखोवन आमकां पियादां मारता, तिंवूय ताचे संस्कारितेक सोबऽ सारकीं.

मुकेशांतली जिज्ञासा जेमेरेन जिवी उरतली, आपूण कांयच नकळ ही जाणवीक ताच्यांत जे मेरेन जागी आसतली ते मेरेन ताका नवीं नवीं सत्यां होलमत रावतलीं आनी ताचे लिखणेतल्यान बरीं बरीं पुस्तकां येत रावतलीं, हे विशीं म्हाका आतां कसलोच दुबाव उरूंक ना. The best is yet to come, and, I am sure, it will definitely come.




– रवीन्द्र केळेकार

प्रियोळ, १२/२/९५.

# काळजांतसावन

धा वर्सां पिरायेचो आसतना भुरग्यांखातीर बरयल्ली म्हजी काणी 'कोंकण भारती' नेमाळ्यांत उजवाडाक आयली. आदरणीय तातोनं (भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार) ती काणी स्वता पुराय निवळायल्ली. तेन्नासावन तांचें म्हाका सदांच मार्गदर्शन मेळ्ळें. बाकीबाब, लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी हेर सगल्या म्हालगड्या लेखकांचो रवीन्द्रबाबांगेरूच संपर्क आयलो. भुरगेपणातूच साहित्यीक गुणांची पोसवण जावपाक अशें वातावरण मेळप हे म्हजें भाग्य. रवीन्द्रबाबाचे उपकार केन्नाच विसरूं नज.

प्रियोळा शिक्षासदन हायस्कूलांत शिकता आसतना मुख्याद्यापक भौ. रवीन्द्रबाब नमशीकार हांणी म्हज्यांतले साहित्यीक गूण वळखून म्हाका उर्बा, उत्तेजन दिलें. 'ललितक' हे कार्यावळींत हांव भुरग्यांखातीरच्यो कविता वाचतालों. कोंकणी चळवळींतूय म्हजे तांकीप्रमाण वांटो घेतलो. कॉलेजांत आसतना व्हडलेंशें बरयलें ना. खूब खूब वाचचें, अभ्यासचें आनी अणभवचें अशें दिसलें.

जिवीत हो म्हजेखातीर घडिल्लो एक म्हान चमत्कार अशें म्हाका जाणवता. पावलाकणकणीं, स्वासाकणकणीं शिकपासारकें सरभोंवतणी खूब कितें कितें भरलां. काळजाचे दोळे आनी कान उक्ते दवरून, जिज्ञासेचें पात्र घेवन जिविताच्या अप्रूप मार्गाचेर चलतना झोळयेंत कांय अणभव पडूंक लागले. तांचो परमळ वाचप्यांवांगडा share करीन दिसलो.

'सुनापरान्त' दिसाळ्याचे संपादक भौ. राजू नायक हांणी आग्रो करून म्हजेकडल्यान 'पारजत' सदरा खातीर लेख बरोवन घेतले. तातूंतल्याच कांय वेंचीक लेखांचो हो झेलो. राजूचो हांव उपकारी.

सृजनशील साहित्य निर्मणेचे प्रक्रियेंतलो आनंद आगळो वेगळो आसता. हीच धुंदी म्हाका बरोवपाक एकसारकी प्रेरित करीत आसता. म्हजे अंतस्करणातले उत्फरके, उमाळे, भितल्ले साद–उले–अर्क आनी सरभोंवतणचे मातयेंतल्यान उदेल्ली अनुभूती, म्हजे आवयभाशेंतल्यान स्फुरता. हेर भासांनी उतरायल्यार ताचो कस देंवता, देखून हांव कोंकणीतल्यानूच बरयतां. मेंदवाचे अणुरेणू सणसणावन उडोवपी आनी त्याच वांगडा अंतस्करणाचे खोलायेंत अचळय ओलसाण हाडपी,

पुश्टीक आनी potent साहित्य निर्मणी म्हजे लिखणेंतल्यान घडची, हेच खातीर म्हजी धडपड आनी तळमळ.

म्हज्यांत आंगुळभर लेगीत अहंकार रिगत देखून केन्नाच तुस्त-तोखणाय न करपी म्हजी आवय - **माई** हें म्हजें व्हड स्फूर्तीस्थान. पुरूषोत्तमबाब (भाऊ) काकोडकार, डॉ. मनोहरराय सरदेसाय, चंद्रकांतबाब केणी, उदयबाब भेंब्रो, दिलीप देशपांडे, डॉ. तानाजी हळर्णकार, पुंडलीकबाब आनी हेमा नायक, शंकर रामाणी, नागेश करमली, गुरूनाथबाब केळेकार , प्रकाश पाडगांवकर, गजानन जोग, डॉ. राजेंद्र हेगडो आनी हेर मानेस्तांनी म्हजे बरपावळीची वेळोवेळ अपुरबाय केल्या. तांचे उपकार मानपाक मात उतरां नात.

गोवा कोंकणी अकादेमीच्या अर्थीक पालवाक लागून म्हजे हें पयलें पुस्तक उजवाडाक येता. जैत प्रकाशनाचे धनी श्री. भिकू बोमी नायक, सम्राट प्रिंटर्सचे मालक श्री. श्रीकांत आमोणकार हांणी हो 'वळेसर' सोबोवन तुमचे मुखार दवरला. तांचो हांव उपकारी.

नामनेचे चित्रकार डॉ. सुबोध केरकार हांणी ह्या पुस्तकाखातीर ओडल्हायणें मुखचित्र पितारलां. तांका हांव कसो विसरन?

प्रुफां तपासपांत तशेंच शुध्दलेखन निवळावपाक बाब दामोदर घाणेकारान आपली शिटूक नदर भोंवडायल्या, हें भोव म्हत्वाचें!

देव बरें करूं.

**- मुकेश थळी**

खोर्ली, तिसवाडी,
फेब्रुवारी, १९९५.

# वळेसरांतलीं फुलां














# जाणकार - १

तारवाचो भोंगो वाजतूच आशिल्लो. जाणकारान आपली साटली पोटली सांसपिली. लोकांची चिर्ङ्ट ताचेभोंवतणी वाडतूच आशिल्ली. प्रस्नांचो शिंवर पडटालो. थोडयांक ताच्यो जापो होलमताल्यो जाल्यार कांय जाण संगीत मैफलीक (बाकीचे करतात म्हूण) तकल्यो हालयतात, तशे दाद दिवपाचें सवंग करताले. ते गचेमुडुंतल्यान वाट काडीत जाणकार फुडें वतालो. इतल्यांत एका जाण्टेल्यान म्हळें, '**तागडेविशी**' सांग. जाप मेळ्ळी– तागडी दोन गजालींमदें संतुळा दवरता. खूब तरांच्यो तागड्यो आसतात. पसरकाराची वा नुस्तेकान्नीची वेगळी. खूबदां ते कांटो हालोवन आमकां फटयतात आनी हरशीं मळबायेदीं शाल्लुकां सांगपी आमी तेदेवेळार पुरायेन 'मामा' जातात. आनीक एके तरेची अदृश्य तागडी घेवन आमी सगळेच जाण सदांच भोंवतात. कोणूय आसूं मागीर तो, आमी ताका हे तागडेंत घालून ताची मोलावणी करतात. व्यक्तीक एका दाल्यांत सोडून आमी दुसऱ्या दाल्यांत वजनां घालतात. स्पेशल वजनां: ताचें पद, ताची शिक्षणीक पात्रताय, समाजीक प्रतिष्ठा, रूप, पयसो.... हे तागडेंत घालून आमी ताचें मोलमाप करतात; तिसरे तरेची तागडी आमच्या शरिरांत आसा. पर्यावरणांतली संतुळा इबाडटली म्हूण आमी भियेतात, पूण कुडींतले तागडेचो म्हळ्यार काळीज आनी तकली वा अंतस्कर्ण आनी बुध्द हांचेमदलो कांटो आदींच हालला आनी भोंवतणचें सगळें हालला म्हूण आमी बेठीच करंदाय करीत आसतात.

टीव्हीचेर फुटबॉल मॅची पळोवन एका भुरग्याचे दोळे तांबडेगूंज जावन सुजिल्ले. ताणें म्हळें - '**फुटबॉलाविशीं सांग**'. जाणकारान सांगलें - ९० मिणटांच्या फुटबॉल खेळांत नवें नवें कितें तरी अप्रूप पळोवंक मेळटा. तातूंत उदरगत जायत आसा. फुडले संवसारीक सर्तींत मैदानां लेगीत कृत्रीम आसतलीं. कालोरा पसून खेळगडयांचें संरक्षण जावचें देखून बानयानां लेगीत खाशेलीं ॲर-कंडीशण्ड आसूं येतात. फुटबॉलाचें आनीक एक तांस आसा. तशे आमी सगळेच फुटबॉल. भोंवतणचो लोक, भौस, समाज आमकां चित्रविचित्र बंधनांनी, थोमण्या-कुटल्यांनी,

क्लेशांनी मर म्हणसर गुड्डायत आसता. मजा म्हळ्यार आमीय एकेकदां दिसपट्ट्या जिवितांत तरेतरेचें कपट, कारस्थानां खेळून एकामेकांचेर सुणीं चडोवपाचें बी एक वेगळेंच 'सॉकर' खेळत आसतात.

जाणकाराची जाणवाय आयकून त्या भुरग्याची तकली गरगरली आनी जागरणाचो हँगओवर घालोवपाक तो सरळ फुडली मॅच पळोवपाक गेलो.

परत एकदां बोटीचो भोंगो वाजलो; जाणकारान आपली घडयाळ पळेली. इतल्यांत एकल्यान विचारपाक जाय म्हूण म्हळें- '**घडयाळीविशीं**' सांग. जाणकारान म्हळें- आमी सगळे घडयाळीचें गुलाम. भूक आसूं वा नासूं, आमी घडयाळीक पळोवन रगडी करतात, घडयाळ पळोवन आमी सानुल्या भुरग्यांकूय बोम दितात, वेळ पळोवन आमी न्हिदूंक वतात. सगळेंच काम घडयाळीक अनुसरून करतात. सगळे नदरेन आमी स्वतंत्र, पूण घडयाळीचे मात दास. सैमाचीय एक अप्रूप घडयाळ आसा. सूर्य उदेता आनी आमच्यो घडयाळी पळेनासतना तो आपल्या वगतार अस्ताक वता. ऋतुचक्र ही कितली चमत्कारीक घडयाळ! पूण सगल्यांत श्रेष्ठ एक घडयाळ आसा. आमचे कुडींतली स्वासांची घड़्याळ. ती बंद पडटकच आमच्या अस्तित्वाचोच फ्यूज वता; मागीर बाकीच्या घडयाळींक वा कित्याकूच अर्थ उरना.

एका साहित्यिकान ताळो सरांटून म्हळें - '**परिसंवादाविशीं** सांग'. जाणकार स्थितप्रज्ञावरी हांसलो आनी ताणें म्हळें - दर वर्सा आमी बांय उस्पितात. बांयंत दाटिल्लो चिखोल काडपाखातीर आनी तातूंत पुरवल्ले नवे झरे पाझरचे देखून बांय उस्पितात. आमचे तकलेंतूय विचारांचो बुरो दाटिल्लो आसता. हो कोयर वा वाचनान तयार जाल्ली'वाफ घालोवपाक परिसंवादाची गरज आसता. परिसंवाद ना जाल्यार साहित्य संमेलन अळणीच जातलें. ताचो आत्मोच ना जातलो. पेपर वाचना उपरांत उखलापी खोल अशी भासाभास बी जाय. तातूंतल्यान कितें निश्पन्न जाता? असो एक गैरसमज आसा. पूण परिसंवाद नाशिल्ले जाल्यार तांचेर पातयेवन आशिल्ले तमाम लोक आकूळ पिकूळ जावपाचे. प्रतिभेचे नवे झरे खळखळपाक संद मेळची नासली. देखून परिसंवादांक खूब खूब म्हत्व आसा.

जाणकार वचपाची ताकतीक करतालो. एके बायलेन विचारलें '**सुखशांतीविशीं** सांगशात'? जाणकारान सांगलें - सुखशांती आमच्या अंतस्कर्णात

आसा. पूण आमी ती भायर सोदतात, कशें तें पळेयात. एकदां एके राणयेचो मोतयां हार कावळ्यान फारायलो. राज्यभर सगल्याक सोदलो पूण तो कसोच मेळना. राजान इनाम दवरलें म्हूण प्रजाय सोदूंक लागली. इतल्यांत एका सभाग्याक एका व्हाळांत तो हार दिसलो. ताणें भितर सूर मारलो. नाक आदळ्ळें. पूण हार गावना. लोकांचो चोंबोच जमलो. जण एकलो वयल्यान उदकांतलो हार पळेतालो आनी भितर उडकी मारतालो पूण भितर गेल्यार हार मेळना. थंय प्रधान पावलो आनी ताणें हें चमत्कारीक कुवाडें सोडयलें. हार वयर झाडाच्या खांदयांमदें शिरकल्लो, ताचें प्रतिबींब सकयल्या व्हाळांत पडिल्लें आनी सगळे भ्रमिश्ट कशे दुसरेचकडेन हार सोदताले. सूख लेगीत आमी अशेंच सोदतात, अशेच भास जावन फटवतात....

भोंगो आनीक एकदां वाजलो आनी निर्जीव जाल्ल्या भौसाचेर एक नदर मारून जाणकार तुरतुरीत चलपाक लागलो...

❒❒❒






# सुकण्या, तूं उड...

राखणो गोरवांक घेवन दोंगरार गेलो. हेर राखण्यांवांगडा तो इस्पिकांनी खेळत रावलो. दीस धारेर वतकच तो गोरवांक सोदूंक लागलो. पूण सगळीं धा गोरवां, धा दिकांनी पयस-पयस खंय तरी पाविल्लीं आनी तांकां सगळ्यांक दोन मिणटांभितर एकठांय हाडपाखातीर राखणो उचांबळ जाल्लो.

म्हज्या मनाची अशी गत जाल्या. मनाचीं हजार गोरवां हजार दिकांनी इत्सांचीं मळां चरत गेल्यांत. आनी हांव तांकां मिणटाभितर गोठ्यांत हाडून बांदूंक सोदतां. यत्न करून हांव कासावीस जालां. सूख सोडूच, म्हजें दुख्ख मात वाडत आसा आनी वयल्यान हांव 'जगी सर्व सुखी असा कोण आहे?' अशें आड्डून जगाकूय म्हज्यांत आस्पावंक सोदतां.

म्हज्यांत दोन पेले आसात. एक सुखाचो आनी दुसरो दुख्खाचो. नेम असो आसा की सुखाचो पेलो हांव तेन्नाच पिवंक शकतां, जेन्ना हांव भुतकाळाचो आनी भविश्यकाळाचो त्याग करतलों. भूतकाळ म्हळ्यार घडिल्ली काणी आनी भविश्यकाळ म्हळ्यार एक सपन. भुतकाळाचें भूत म्हजी मानगूट सोडिना आनी फुडाराच्या चिंतनांच्या नरकांत झेडपुपाची म्हजी संवय मोडना. हें अशें कित्याक जालें, तें तशें कित्याक करचें न्हय, असली तर्क-वितर्काची फोडणीशी आनी विस्कटावणी करीत-करीत हांव पोखरत आसा. परिणाम- दुख्खांचो पेलो पियेवपाचें वेसन इतलें लागलां, की सुखाचो पेलोय आसा हाचें म्हाका भानूच ना. कसो पियेवं हांव सुखाचो पेलो? पियेवंकूच शकना.

जल्म-मरण हांचेमदली 'डॅश' म्हळ्यार एक एक खीण मेळून गुंथिल्ली एक सोबीत माळ. एक एक स्वांस मेळून गुंथिल्लो एक सुंदर हार. एका एका स्वासाचो, एका एका खिणाचो आनंद हांव चाखूंक शकना.

कारण काळजांतलें सुकणें म्हाका उलो मारीत आसा. हांव एकलो एकसुरो आसतना म्हाका तें साद घालीत रावता. चिंवचिंवत रावता आनी आक्रोश करता. म्हज्यान हें गोंगना. म्हाका म्हज्या एकलेपणाची भिरांत दिसता आनी मागीर हांव म्हाका गडबड-गोंदळांत लोटून दितां.



कितलींशींच वर्सां जालीं, सुकणें पांजऱ्यांत वळवळत आसा. ताका एक विचित्र वश्रेकणी लागल्या. भांगराचो, हिऱ्यांचो, माणकां-मोतयांचो कसलोय जायना. पांजरो तो पांजरो. एक भयाण बंदखण. हे बंदखणींत घुस्मटिल्लें सुकणें आपलें सुकणेपणच विसरून गेलां. घोलींतलो शींव घुडांत घुस्मटचो, तशी ह्या बळिश्ट सुकण्याची आवतिकाय जाल्या. उडप ह्रो सुकण्याचो धर्म. ताचेखातीरूच तर ताचो जल्म. पूण उडप कशें, हेंच तें विसरून बी वचूंक ना मूं? कारण पांजऱ्याचें दार उक्तें केल्यार लेगीत तें हालना, उडना!

सुकण्या, ऊड तूं. पांखां फडफडाय आनी उडत वच. नाच. पोट भरून विनश्राम्त नाच. नाचप होच तुजो सभाव. मुक्तीचो आनंद घे. स्वतंत्र जा आनी ऊंच भरारी घे. तुका नाचपाखातीर माची तयार आसा. बंदखणींतल्या गुदांवांत तुका केन्ना शितळ, नितळ वारो मेळ्ळोना. भायर पळे, काय बरो दिव्यत्वाचो पवित्र वारो व्हांवता. शाण्या, ऊठ आनी तातूंत भिजून घे.

उत्तुंग, उत्कट आनी परमोच्च अशा अणभवाखातीर तूं वखवखलां, वमवमलां ; 'प्रतिक्षा म्हळ्यार जिवीत आनी मीलन म्हळ्यार मरण' ही साहित्यीक भास विसर. खोर्नांत आनीक कितलें हुलपतलें? ऊड शाण्या, म्हजेखातीर तरी! तूं उडल्यारूच हांव आनंदाचो पेलो पियेवंक शकतलों. आनंदान धुंद जावपाची म्हाका उमळशीक लागल्या. देखून काळखाकुडींतल्यान ऊड आनी उजवाडाच्या पावसांत न्हा!

सुकण्या, तूं ऊड!!

❐❐❐



# मेरा गोवा महान

गोंय हें भारताचें कितल्यावें राज्य हें म्हाका खबर ना. खबर आसचें अशेंय म्हाका दिसना. पूण तें 'घटक' राज्य इतलें मात हांव जाणा. 'घटक' हो शब्द 'घटना' आनी 'घटना' हो शब्द 'घट्टाण' ह्या शब्दावयल्यान आयला आसुंये, अशें बेठेंच म्हाका दिसता.

गोंयचो इतिहास खूब व्हड. गोंय मुक्तिआदल्या इतिहासाच्या पानांपरस, गोंय मुक्तिउपरांतच्या काळांतल्या इतिहासाचीं पानां चड जावंये, इतलें पुलित्काचें 'धबधबीत' ह्या वर्सांनी घडलें.

गोंयांत वट्ट इकरा तालुके आसात. इकराय तालुक्यांनी म्हालगडे रावतात. देखून ह्या तालुक्यांक 'म्हाल' अशें म्हणटात. ह्या तालुक्यांचीं नांवां विचित्र आनी दोन - दोन. देखीकः इल्ल्यॅश वा तिसवाडी, सालसेत वा साश्टी वा साश्ट, फोंडा वा फोंडें वा पोंदा वा अंत्रुज.

गोंयचें तापमान राजस्थानाइतलें उश्ण न्हय आनी काश्मीराइतलें थंड न्हय. तें गोंयकाराचे कालेतीक जाय तशें आसता. पावस पडना जाल्यार गोंयकार पावसाक खेपता. पावस एकसारको पडत रावल्यारूय तोच गोंयकार, सरकाराक गाळी मारच्यो तेच तीव्रतेन पावसाचेर गाळींच्यो दडको शिंवरायता. शिंया दिसांनी तो म्हणटा - 'अंदूं पोरूंपरस चड शीं, आं'. उबाळाच्या दिसांनी तीच गत! 'मनशाचीं पातकां वाडल्यांत, देखून हो कालोर वाडला.' असो शेरो तो मारता. पावस, थंडी, गर्मी, हवामान, तापमान सगळेंच गोंयचे वेधशाळेक थर्त भिंयेता. हुंदराक पळोवन माजरान कुशीक सरचें तसलोच प्रकार!

मरतकच सर्गात वता ही गजाल खरी काय फट, देव जाणा. गोंयचो सैम हो मात जितेपणांतलो सर्ग! गोंयचे चडशे कवी आपल्या कवितांची सुरवात गोंयच्या पाचव्याचार सैमाचेर कवनां रचून करतात. 'झाडां-पेडांक संवेदना आसतात आनी तांचेर कोयती उबारल्यार तांकां दुख्ख भोगता', अशें डॉ. जगदीशचंद्र बोस हांणी आपल्या संशोधनांत सांगलां. पूण गोंयची वनस्पत हाका



आडवाद. गोंयचे रूख खूब शाणे, खूब सोंशीक. रानांची रानां लेगीत कापल्यार बाबडीं झाडां मोन्यांनी सोंसतात.

गोंयची मोनजात सभावान वायट शी न्हय. कोंबे हेर भारतीय कोंब्यांवरींच उंचेले स्वरपट्टेचेर 'काँकॉच काँ' करतात. गोंयचे बेबे 'डरांव डरांव, म्हजेर कविता बरय' अशे म्हणत उण्णां मारतात. पोशिल्ले सुणे मात्शे 'गोंयकारिल्ल्यान' दिसूयभर न्हिदून आसता. गायो-म्हशी उदक चड पियेतात आनी ताचो दुश्परिणाम पातळ दुदांत जाता. माजरां खूब भाग्यवान. तांची हालींची पिळगी जीव-जल्ले, हुंदीर, खावपाचें पुराय विसरून गेल्या. वर्सभर नुस्तें-भोपशें खावन गोंयकार माजरां- बुकले कुळकुळीत आसतात. बोंडला अभयारण्यांतले वाग, शींव मात उपासान मरूंक तेंकल्यात. हालींच चोडणां एक सुकण्यां अभयारण्य सुरू केलां. थंय सुकणीं, शेवर्णी वा पक्षी कांयच ना! आसा तो न्हंयचो रेबो. सुकणीं मुदांसाक गेल्यांत अशी फटास मारपाक लेगीत थंय जितो मूस ना. बाबडे पर्यटक रेब्याचे फोटो घेवन गोंयकारांच्या 'अजीबपणाची' तोखणाय करीत परततात.

उदकाविणें नुस्तें जियेवंक शकना. नुस्त्याविणें गोंयकार जियेवंक शकना. देखून तो गोंयाभायर सहसा वचना आनी ताका लागून प्रवासवर्णनांची निर्मणी व्हडलीशी जायना. नुस्त्याकूच गोंयकाराचो इतलो सोंस की खरचाण्यो, मुड्डश्यो 'म्हाका धरात रे, म्हाका खायात रे' म्हणत रडत आसतात.

एक गोंयकार हो साहित्यीक, संगीतकार, नाटककार, तियात्रिश्त, आदवोगाद, दोतोर, इंजनेर, पत्रकार, राजकारणी, वेपारी, बिझनेसमॅन, क्लबाचो सेक्रेटरी, संस्थेचो अध्यक्ष आनी एकाच धपक्याक खूब खूब किदें आसूं येता, चिंचेच्या पानाभितर आनीकूय पानां आसतात तेचपरी एक नाटककार हो नाटक बरोवपी, दिग्दर्शक आनी स्वता पार्ट करपी आसूं येता. एक साहित्यीक सगळेच साहित्यप्रकार समर्थपणान केळयता. तेचवांगडा तो टिकाकार आनी समीक्षक आसूं येता. समीक्षक कथेची, नवलिकेची, नाटकाची, कवितेची किद्याचीय समीक्षा करता. संगीतकार हो गावपी (भजन, नाट्यगीत, शास्त्रीय सगळें) आनी वाजोवपी (पेटी, तबलें,

पखवाज) आसूं येता. एक गोंयकार हो एकाच वांगडा किदें किदें आसूं येता, हांची परम्युटेशन्स आनी कॉम्बिनेशन्स इतलीं विंगड विंगड आनी घुस्पागोंदळाचीं आसतात, की ऊंच तांकीचो संगणक लेगीत हें गणित सोडोवपाक अपेशी थारतलो.

अनंत तासांच्या ह्या गोंयकाराचें एक बरे. संगीतकाराक रियाज करूंक वेळ मेळना, साहित्यीकाक आनी समीक्षकांक वाचूंक 'वगत' मेळना आनी नाटककाराक येसायांखातीर फावना.

गोंयचें सांस्कृतिक दायज खूब व्हड; ताचेपरसूय गोंयची अस्मिताय म्हान. ताचेयपरस गोंयची सासाय खूब विशाल. मेरा गोवा खऱ्यांनीच 'महान'! सगळ्यांत म्हान गोंयांत रावपी गोंयकार!! मळबाची फोल केली, झाडांचीं पेनां केलीं आनी दर्याचें तींत केलें तरी गोंयची आनी गोंयकाराची व्हडवीक बरोवन सोंपचीना. ते भानगडींत न पडप बरें!

❒❒❒



# को अहम् ?

आवाजापरस उजवाड नेटान धांवता, उजवाडापरस कितल्याशाच पटींनी नेटान म्हजें मन धांवता; ह्या वेगवान आनी बळिश्ट मनाक लागुनूच म्हाका नांव पडलां - 'मनीस'.

एक गुटगुटीत भुरगो एका टुणटुणीत बॉलावांगडा खेळत आसचो आनी अकस्मात तो बॉलूच भुरग्यावांगडा खेळूंक लागचो, त्या बॉलान भुरग्याक भिरकटावन मारचो, ताका गुड्डावचो आनी तातूंत ताचीं धोंपरां फुटचीं.... एक विचित्र कल्पना! पूण म्हजेविशीं आनी म्हज्या मनाविशीं हें एक वास्तव सत्य थारलां. म्हजें मनूच म्हाका नियंत्रीत करता.

भायल्यान सगळे नदरेन हांव स्वतंत्र. पूण भितल्ल्यान मात परतंत्र आनी मनाचे आधीन. दुनियेखातीर हांव राजा पूण म्हज्या मनाचो गुलाम. भुरग्यांचीं कागदांचीं व्हडीं पावसाच्या उदकांतल्यान व्हांवत वचचीं, तेचपरी म्हजें तारूं मनाच्या लोटावांगडा व्हांवत आसा.

धर्तरेवेल्या सगळ्या प्राण्यांमदीं श्रेष्ठ हांव. सृश्टीचो मुकूटमणी. म्हाका सुपाक बुध्द. विचार करपाची तांक आनी अक्कल आसा. म्हजी तुस्त हांवूच करतां अशें म्हाकाच लेबल मारतां - 'Homo sapiens'.

झाडां झाडांक मारिनात, जनावरां झाडांक मारिनात, बाबडीं सुकणीं झाडाचेर बसतात पूण झाडांचेर, सैमाचेर कविता करिनात. जळारां आनी हेर किडी-मुयो इकॉलॉजीचेर आनी पर्यावरण-संतुळाचेर लेक्चरां झाडिनात. पूण हांव मात स्वताच्या सुवार्थाखातीर रानांचीं रानां बोडकीं करतां. किद्याक, हांव मनीस; तकलेन फीन असो!

मुयो केन्नाच उपाशीं मरनात. पूण हांव मात उपासमारान वळवळून मरतां. किद्याक तर म्हाका अन्न तयार करून खावपाची, दुसऱ्यांक दिवपाची, अन्नाचो आस्वाद घेवन 'वाऽऽ' म्हणपाची तांक आसा.

वागांचे कळप हेर वागांच्या कळपांचेर घुरयो घालिनात. हिंस्त्र शींव

कितलोय आक्रमक, क्रूर जाल्यार लेगीत कारणाविणें दुसऱ्या शिंवाक मारिना. पूण हांव मात एक मनीस हजारांनी मनशांक फाफशितां, पिसुडटां.

पेत्रोलाचो एकेक थेंबो वांचयात, अशें हांव पोटतिडकीन सांगतां आनी कसले तिडकीन कोण जाणा- ह्याच पेत्रोलाच्या थेंब्याखातीर आखाती झुजां उप्रासून म्हज्या रगताचे पाट व्हांवयतां.

हांव खूब म्हळ्यार 'खुब्ब' हुशार. म्हजे बुध्दीन हांवें कांय व्याख्या, परिभाशा, फास्क्यो थारायल्यात. तातूंतली सगळ्यांत व्हडली फास्की म्हळ्यार विज्ञान. म्हजे कापाङ्दादीक शीम-मेर मळबायेदी. बटण दामून युगायुगांचो धर्तरेचो बॉल हांव 'भूस्स' करून बेसन लाडवासारको फोडून पिठो करूंक शकतां. कॉमिकूच कशी, न्हय? हीच शक्त विधायक कार्याक वापरल्यार हांव पुराय धर्तरी विजेच्या उजवाडान लखलखावंक शकतां! सुरयेन लिंबू कापूं येता, पूण म्हाका दुसऱ्याचो गळोच कापीन दिसता, ताका हांव कितें करूं?

हांव कितेय करूंक शकतां. हांवें सगळे केलें. मेंदू वापरुनूच मेंदू म्हळ्यार कितें हाचो अभ्यास केलो. मनांवरवींच मन म्हळ्यार कितें तें थारायलें. बुध्दीन हांवें सगळें मेळयलें, पूण एक मात मेळ्ळेंना- शांती. इतल्या पयसुल्ल्यान चंद्रावेली माती हाडून तपासून पळेली. तातूंत लेगीत मेळना. खंय सोदूं?

मनीसपण शेणयल्ल्या मनशांक मेळून कितें उपेग? जनावरांक मेळ्ळों. कुतून सांगलें- 'तुज्या काळजाचे दोळे पुरवल्यात. तुज्या काळजाच्या कानांक कानुलो जाला.' बिलून सांगलें- 'तुज्या काळजाच्या गुदांवांत हुंदीर, जल्ले कुसल्यात आनी ताका इन्फेक्शन जाल्ल्यान घाण मारता. ऑपरेसांव करचें पडटलें' सोंशान म्हळें- 'तुज्या काळजांत कचरो आयला. देखून स्कूटरीच्या इंजिनावरी तातूंत ठो-ठो जाता.' हांव बुध्दीवादी. देखून बुध्दीन फीन अशा कोल्याक मेळ्ळों. तो म्हाका पळेनाफुडें कुशीक सरलो. हांव अजापलों.

'बुरसो खंयचेकडलो. मार्क्स, फ्रॉय्ड, डार्वीन, आयन्स्टायन आनी हेरांनी उश्टायिल्ल्या पत्रावळींनी जेवता आनी वयल्यान आंवनासतना, तोंड-हात धुयनासतना भोंवता?' कोलो केकाटलो.

हांव काकुळटेक येवन ताजेमुखार ओंकलों- म्हजी कथा, म्हजी व्यथा.



कोलो पांच मिनटां सिरियस जालो आनी मुदयेर थीक कशें तर्कशुध्द उलयलो– 'तुका सगळे अवयव आसात, पूण काळीजूच ना. एक्स-रे काडून कन्फर्म कर.' हांव कडकडलो, हादरलों. मळबाचे कुडके जाल्लेवरी कुपां आपटून घसघसून पावस ओतचो, तशें म्हाका रडचें कशें दिसलें. पूण दुकां कशींच फुटना जालीं. कोलो, खरेलोच बुध्दीन भलो! अंतर्यामी कसो. म्हजें अंतरमन वळखलो.

'आगा, दुकां येतलीं कशीं? दुकांचो उगम कवटेंतल्यान आसना, काळजांत सावन आसता.' कोलो उलयलो.

❐❐❐

# मनाचें प्रदूशण

आजकाल भोंवतणी प्रदूशणाविशीं खूब आयकूंक येता. पर्यावरणांतलें प्रदूशण, आवाजाचें प्रदूशण, धुंवराक लागून जावपी प्रदूशण, अन्नांतलें प्रदूशण, कितलेंशेंच प्रदूशण! पर्यावरणातलें विखारपण वाडत आसा; तातूंतलीं संतुळा इबाडत चल्ल्या, म्हूण ताचेर उपाय घेवपाखातीर वेगळे वेगळे यत्न चलल्यात.

हालींच एक विनोद वाचलो 'पर्यावरणांतलें प्रदूशण कशें आळाबंदा हाडप' हें थारावपाखातीर संवसारांतले साबार जाणकार खंय एकठांय आयले. ते एकठांय जमतकच तांच्या विमानांक, गाडयांक लागून इतलो धुंवर जालो की ते जंय जमिल्ले, ते सुवातेर सगळ्यांत व्हड प्रदूशण जालें! कामीण जाल्या म्हूण वखद घेवचें आनी आदींच आशिल्ल्या गोडेमुताच्या दुयेंसाक तें बादक थारचें, तसली गत ही!

भारतांतल्या मुखेल शारांनी आवाजाचें आनी हेर प्रदूशण कशें वाडत आसा, ताचेविशीं एक सविस्तर नियाळ हालींच टायम्सार वाचलो. ती भयानक आंकडेवारी अभ्यासल्यार आमी सैमापसून पयस वचून कितले 'प्लास्टीक' जायत आसात, ताची जाणविकाय जाता.

झाडांपेडां, सुकणीं, जळारां, मूस, जीव, वनस्पत आनी मोनजात हांकां प्रदुशणाचो हुस्को ना. सोबीत-सुंदर सृश्ट आनी सैम आमीच हळशिकावणो करीत आसात. आनी तेविशींची खंत आमीच करपाची. दुयेंसाक आपोवणे दिवप, ताचेर वखद सोदून काडप. सबकुछ आमीच - 'होमो सापियन'.

भोवतणचें प्रदूशण एक वेळ परवडलें, पूण 'मन' हे गजालीक लागुनूच जाका 'मनीस' नांव पडलें, त्या मनाचें प्रदूशण मात खूब भयांकृत! घडये ह्या मनाच्या प्रदुशणाक लागूनच आमच्या हातांतसून भायलें प्रदूशण घडना मूं? दुबाव, मत्सर, अहंकार, मद, मस्ती, गर्व हांचो बुरो मनात दाटत आसता. शरीररूपान शांत बशिल्लो मनीस दिसलो तरी ताच्या मनात केदें व्हड वादळ, संघर्श चालू

आसता ? मन आनी काळीज हांचेमदीं एक व्हड म्हाझूज ताचे कुडींत एकसारकें चालू आसता.

शरीर चिकचिकीत जातकच 'शॉवर बाथ' घेवं येता. पूण मनाक निवळ करूंक कसलें न्हाण घेवप? ताका कसलो शाबू लावप? रॅकिटापरस नेटान उड्डाण करपी मनाच्या हारशाचो धुल्ल कसो पुसप? मनाचें चक्रूच इतले गतीन घुंवता की ब्रेक लायल्यार लेगीत थांबपाक ताका खूब वगत लागतलो.

पूण मनाचें चक्र आनी घरघर थांबतकच मात अंतस्कर्णाच्या खोल खोल तळ्यांतल्यान सोबीत सूर आयकूंक येतले. ह्या सुरांचे वोथांबे मनाक भिजयतले, ताका पवित्र न्हाण दितले, तेन्ना ताका थिराय येतली, मनप्रदूशण आळाबंदा येतलें. बऱ्या विचारांचे तुतये मनाचेर एकसारके आदळत रावले जाल्यार तें प्रदुशीत जावचें ना. पूण तेखातीर परत परत यत्न करूंक जाय. उदक वयल्यान सकयल देंवोवपाक यत्नांची गरज ना. तें वयर चडोवपाक मात खटपट करूंक जाय. मनाचें प्रदूशण जायत रावप ही ताची मूळ प्रकृतीच म्हळ्यार जाता. पूण तें प्रदूशण पयसावपाक मात उपाट कश्ट आनी यत्न जाय. यत्न हो दुखदिणो न्हय तर एक सुखदिणी गजाल, ही भावना मात आसूंक फावो!

**आनी निमाणें -**

विद्यार्थ्यान शिक्षकाक विचारलें- तुमी म्हाका सांगता की नमळायेन, गोडसाणीन, शांततायेन वाग. पूण म्हजेभोंवतणी इतलें 'पुलीतीक' भरलां, दरेकल्याचें मन इतलें किल्लुमलां की ह्या दर्यांत सगळेच म्हाका गुड्डायतात; कशें वागचें तेंच कळना.

शिक्षकान म्हळें- तुज्या पांयांक फातर आनी कांटे तोपचे न्हय म्हूण दोन उपाय आसात.

१) पुराय धर्तरेक कार्पेट घालप.

२) पांयांक जोतीं घालप.



खंयचो पर्याय सोंपो, तो सांग. विद्यार्थी मात्सो घुस्पलो- पांयांक जोतीं घालप सोंपें. पूण तुमची भास म्हाका समजना. शिक्षकान सांगलें- संवसारांतल्या सगळ्या लोकांक तूं सुदरावंक वचूं नाका. तांचें कोंफुझांव तुका बादचें न्हय म्हूण आनी तांच्या मनांतल्या प्रदुशणाचे कांटे तुज्या पांयांक तोपचे न्हय म्हूण तूं शुध्द आनी बऱ्या विचारांचें जोतें घाल. हाताक तेल लावन पणस फोडल्यार पांख लागता? लागल्यारूय तो सोंपेपणान वता, शाण्या!

❒❒❒



# जाणकार -२

जाणकार त्या जुंव्याचेर खूब वर्सां राविल्लो. ताणें थंय जिविताची अखंड साधना केल्ली. पुस्तकां ताणें व्हडलींशीं वाचूंक नासलीं. पूण ताचो अणभव खूब व्हड! आयज ताका व्हरपाक एक तारूं आयिल्लें. सगळे लोक ताका निरोप दिवपाक जमले. इतल्यांत हांडीर एका भुरग्याक धरिल्ली आवय फुडें सरली आनी तिणें ताका म्हळें– आमकां **भुरग्यांविशीं** सांग. आनी जाणकार उलयलो–

तुजीं भुरगीं हीं तुजीं न्हय हें मतींत धर, तांची अपुर्बाय कर. पूण फालतू लाड करूं नाका. तुजीं मतां तांचेर लादूं नाका. संस्कार करपाचे दीस गेले!

तांणी कितें करप, कोण जावचें हें तांचे तांकांच थारावं दी. आपली आवयभास खंयची, देव म्हळ्यार कितें आनी हेर गजाली तूं तांकां शिकोवपाचे भानगडीत पडूं नाका.

ॲसायनमेंट, होमवर्क, अभ्यासक्रमांत जावपी हवामानासारके बदल हांकां लागून तीं पिशीं जावपाकडेन पावल्यांत. देखून तांकां टी.व्ही., व्हिडियो, खेळ, मस्ती हातूंत रमूं दी. तांकां नाचूं दी, धुमशेणां कांडूं दी, येतीश्ट मजा करूं दी.

एक विसरूं नाका– तांकां भुरगेपणांत भुरगेपणां करूं दी; नाजाल्यार तीं जाणटेपणांत भुरगेपणां करतलीं आनी ती एक विकृती थारतली! 'हांव कसो जालों?' ह्या प्रस्नाची जाप तुवें तांकां विज्ञानाच्या आदारान दिल्ली. 'हांव कित्याक जालों'? ह्या तांच्या प्रस्नाची जाप दिवपाक मात तूं गडबडटा. देखून ती जाप दिवपाचो अभ्यास कर. तांच्या काळजाक पटपासारकी जाप तुज्या काळजांतल्यान दी.

एक सज्जन मुखार सरलो आनी ताणें जाणकाराक विनंती केली– '**उलोवप**' ह्या विशयाचेर तुमचें मत कितें? जाणकारान शांतपणान जाप दिली–

तोंड आसा म्हूण भरभरत रावचें न्हय. उतरांची काटकसर करून तर्कशुध्द अशें गोड, रोसाळ-म्होंवाळ उलोवचें. उलयतल्यान खंय थांबचें, हें ताका खबर आसूंक फावो. हाणें आनिकूय उलोवंक जाय आशिल्लें अशें दुसऱ्याक दिसता, तेन्ना



अकस्मात थांबचें. काळजाच्या ओंठांतल्यान उलयल्यारूच तुजे विचार दुसऱ्याच्या काळजाक भिडटले, ना जाल्यार तीं फकत तकलेंतलीं बुध्दीवादी नाडेपेन्नां थारतली!

खळखळीत नितळ झरो व्हांवचो तसो जाणकार मुदयेर थीक कशें उलयतालो. एका तरनाट्या साहित्यिकाक ताणें सांगलें-

साहित्य अकादेमी, ज्ञानपीठ, नोबॅल आनी हेर पुरस्कार मेळोवपी हेर भासांतल्या साहित्यकृतींचो बारीकसाणीन, खोलायेन अभ्यास कर.

इंग्लीश उतरां जावं हेर इंग्लीश विधानां वापरतना सांबाळून! तुजीं स्पेलींगां, उच्चार चुकतात हांचें भान दवर.

बांयंत रावपी बेबकी जावं नाका. साहित्याच्या अंतपार नाशिल्ल्या अशा अप्रूप संवसारांत वाचनाचीं पांखां लावन उडत राव. झाडांचेर आनी सुकण्यांचेर कविता करीत राव, पूण धर्तरेचे फाटीर सारायेवो, बोस्निया, श्रीलंका, पंजाब, पणजी ह्या सुवातांचेर कितें चललां ताची उणीच जाण तरी दवर.

लेखक हो हुशार न्हय अशें न्हय, पूण आपलो वाचक मात मूर्ख नासून तो बुदवंत आनी चोखंदळ आसूं येता. हें मतींत दवरुनूच बरय!

**ऑफिसाविशीं** सांगशीत? एके चलयेन व्हडा नमळायेन जाणकाराक विचारलें. जाणकारान सांगलें-

ऑफिसाविशीं सांगचेपरस ऑफिसांतल्या कर्मचाऱ्यांविशीं सांगतां. ऑफिसांतल्या कर्मचाऱ्यांविशीं सांगतना तांणी कशें आसचें न्हय, हें तुका सांगतां. ऑफिसांत काम करतल्यांनी ऑफिसांत काम करचें. थंय जगावेले धवळे, चांचायो करच्यो न्हय. ऑफिसांत येतकच साडेपांच केन्ना जातात, हाची वाट पळयत रावचें न्हय. दीसभर इन्क्रीमेंट, डीए, स्केल, प्रोमोशन, बोनस हाचेर भासाभासो करच्यो न्हय. ऑफिसांत काम करतल्या दर एकल्यान प्रामाणीकपणान (लांच, भ्रश्टाचाराक बळी पडनासतना) काम करीत जाल्यार राष्ट्राक कसलीच अर्थीक वा हेर समस्या उरचीना...

**राजकारणाविशीं** सांग, एका जाण्टेल्यान जाणकाराक विनंती केली. जाणकारान विटून म्हळें-

राजकारण म्हळ्यार संडास कसो, तो कोणाक चुकना. राजकारणांत पडचें



काय ना, हें जण एकल्यान थारावचें. पूण त्या कोंडांत पडपाचेंच आसल्यार लज, भीड, नीत, तत्वां सगळें गुठलावन तातूंत पडचें. तूं राजकारणांत पडना जाल्यार तें तुजेर पडटलें. तेन्ना चिखलांतल्या साळकावरी रावचें.

मत दिवपाचो पवित्र अधिकार तुका आसा. तो दोळे धांपून वापर. कर्म कर पूण फळाची वान्सा धरूं नाका. जो तमाशा चालू आसा आनी तातूंत तुजो जो गोंदळ आनी घुस्मटमार जाला, तो सोंसपाचें बळगें मात देवाकडेन माग.

❑❑❑



# शिक्षण

ताका आवड आशिल्ली शिकपाची. आवडूच न्हय, ताका तळमळ आशिल्ली गिन्यान मेळोवपाची. ताका जिज्ञासा आशिल्ली, चडांत चड जाणा जावन घेवपाची. एके वेगळेच तरेचो विद्यार्थी तो. तो खूब शिकलो. ताणें विंगड विंगड विशयांवेलीं जायतीं पुस्तकां वाचलीं. कांय भासांचो अभ्यास केलो. वाचून वाचून तो पिसो जावपाकडेन पाविल्लो. जितलें वाचता, तितलो आपल्या अज्ञानाचो ताका आनिकूय थाव लागतालो.,ताचे तकलेंतलो भुसो आनी प्रस्नांचो घयरांव मात वाडत आशिल्लो.

ताच्या गांवालागसार एक नवोच शिक्षक रावपाक आयला अशी खबर त्या विद्यार्थ्याच्या कानार पडली. शिक्षक खूब हुशार आनी बुदवंत आशिल्लो. ताची कीर्त संवसारभर पातळिल्ली. ताच्या कांय विद्यार्थ्यांचीय नामना चोंयवशेन फांकिल्ली.

शिकपाची उपाट तान लागिल्लो तो विद्यार्थी शिक्षकाक भेटपाक गेलो. शिक्षकाच्या प्रसन्न आनी तेजिश्ट व्यक्तिमत्वान तो खूब प्रभावीत जालो. लोहचुंबकाक लोखंड दसचें, तशें आकर्शण ताका त्या शिक्षकाविशीं जालें. शिक्षकान ताका विचारलें:

- कित्याक आयिल्लो?

- शिकपाक.

- कितें?

- जिविताचें कुवाडें म्हाका सुटना. अनंत ब्रह्मांडांतली ही इल्लीशी धर्तरी. ते धर्तरेचेर हांव आसा. म्हज्या ह्या क्षुल्लक अस्तित्वाचो अर्थ कितें? सृश्ट-स्थिती-प्रलय ही भानगड कितें? म्हज्या जियेवपाफाटलें प्रयोजन कितें? जिविताचो उद्देश कितें? अज्ञानाक लागून आयिल्ल्या ह्या निर्शणेच्या गुप्प काळखांत हांव चांचपडटां.....

- लाग चलूंक.

शिक्षक तापलो. विद्यार्थ्याचो पुराय अपेक्षाभंग जालो आनी तो परतलो.



ताच्या मनाची विचित्र अवस्था जाली. आवय वाडिना आनी बापूय भीक मागूंक दिना, अशे द्विधा मनस्थितींत तो घुस्पलो. रातभर ताका दोळो लागलोना. परत परत ताका त्या शिक्षकाची याद येताली.

सकाळींफुडें उठून तो तडक त्या शिक्षकागेर गेलो. एका वेगळ्याच निश्चेवान. 'कित्याक आयला? म्हजो वेळ वगडावंक?' शिक्षकान विचारलें.

–'म्हाका खऱ्यांनीच शिकपाचें आसा', विद्यार्थ्यान नमळायेन सांगलें.

–किते तें? -

– म्हाका वेदांत, शास्त्रां, पुराणां, उपनिषदां, योगशास्त्र हांचें उंचेलें शिक्षण घेवंक जाय. तुमी म्हाका शिकयशात?

– वासिमोर.

शिक्षक तापलो. विद्यार्थी दुख्खी, कश्टी जावन परतलो. असलो कसलो हो शिक्षक काय, असो प्रस्न ताका पडलो. ताची अस्वस्थताय वाडत आसली. रातभर तो तळमळत रावलो. शिक्षकाचें ओडलायणें चित्र ताच्या काळजांतल्यान कशेंच वचना जालें. फांतोडेर उठून तो परत शिक्षकासरीं गेलो.

– कित्याक आयला? तोच प्रस्न.

– म्हाका सत्य म्हळ्यार कितें तें जाणा जावन घेवंक जाय. सत्य हें शिव आसून ते सुंदर आसता; सत्य म्हळ्यार शांती काय कितें, तें म्हाका अणभवपाक जाय.

– लाग चलूंक.

लायटीचो शॉक परवडलो, पूण हो न्हय! विद्यार्थी परतलो. चिंतून चिंतून ताचे तकलेचो फार जावपाकडेन पाविल्लो. न्हिदतलो कसो? दोळ्यांतल्यान गळपी दुकांच्यो पांवळ्यो थांबनासल्यो. असामान्य शिक्षकाच्या एका अप्रूप मोगांत तो पडिल्लो.

दुसऱ्या दिसा तो परत शिक्षकागेर गेलो. शिक्षक पोरसांत झाडांक उदक घालतालो.

– कित्याक आयला? म्हाका पिडूंक?

– म्हाका शिकूंक जाय. कितें शिकचें, तेंच हांव नकळो. तें तुमीच म्हाका

शिकयात. तुमी म्हाका सगळेंच शिकयात. म्हजे सगळे तर्क, वितर्क, दुबाव, संकल्पना, भ्रम आयज पयस जाल्यात. हांव जालां आज धवोच पेपर. तुमी पितारतले, तें चित्र काडून घेवपाक. हांव जालां आज पोकळ बांसरी. तुमी म्हज्यांतल्यान काडटले त्या स्वरांचो आनंद घेवपाक. हांव जालां आज एक नेणार विद्यार्थी, कांयच कांयच नकळो आशिल्लो...

विद्यार्थ्याक फुडलीं उतरां फुटलींनात. तो हुमसून हुमसून रडपाक लागलो.. शिक्षकान विद्यार्थ्याचीं दुकां पुसलीं, ताका वेंगांत घेतलो आनी अपुर्बायेन म्हळें- राव. म्हजेसरीं राव. आयज तुज्यांत विद्यार्थीपण आयलां. शिकपाची तांक, कुवत आनी पात्रताय आज तुज्यांत आयल्या. तूं जिवितांतलो खरो विद्यार्थी जाला, जिविताचो विद्यार्थी. ह्या पोरसांतले गुलाब पळे काय बरे फुलल्यात. तूं लेगीत असोच एक दीस फुलतलो, परमळटलो, म्हान जातलो...

❑ ❑ ❑



# तृप्तीचो धेंकर

चलतां-चलतां म्हाका खूब तान लागली. हेवटेन-तेवटेन सगळ्यांक पळेलें, जितो मूस ना. इतल्यान एक रसायनशास्त्राचो प्रोफेसर मेळ्ळो. हांवें म्हळें, तान लागल्या. ताणें सांगलें- 'हायड्रोजनाचे दोन अणू आनी ऑक्सिजनाचो एक अणू मेळून उदकाचो रेणू घडटा. रेणूचे संरचनेप्रमाण उदकाचे विंगड विंगड प्रकार आसात.' ताणें सुटकेस उक्ती केली आनी 'वॉटर टेक्नॉलॉजी'चो आपलो पोटलो कसो प्रबंध भायर काडलो. वाचीत रावलो आनी कितें तरी पुटपुटपाक लागलो.

हांव फुडें गेलों. सरपंच मेळ्ळो. हांवें म्हळें- 'ताळो सुकला. तान लागल्या'. ताणें उत्तर दिलें- 'कांयच भियेवं नाका. गांवांगांवांनी tube-well आसची अशी सरकाराची येवजण आसा. ती रोखडीच चालीक लावची, म्हूण हांव तुजेखातीर खटपट करतां.'

फुडें सरलों. वताचो रखरख. तान वाडून जीव व्याकूळ जाल्लो. एक भूंयगर्भशास्त्रज्ञ मेळ्ळो. उदकाखातीर ताचेकडेन वासपूस केली. ताणें लेक्चर दिवपाक सुरवात केली- 'धर्तरेचो तीन-चवथय पृश्ठभाग उदकान व्यापला. तिच्या पोटांतूय उदक आसा...'

म्हजें पोट उदकाच्या थेंबाविणें सुकिल्लें. लेक्चरांनी पोट भरपाचें नाशिल्लें. देवाक उलो मारपाचें लेगीत त्राण नासलें. चलत रावलों.

मंत्री मेळ्ळो. ताका विनंती केली आनी समस्या सांगली- 'आत्तांचे आत्तां हांगा नळाची तजवीज करपाखातीर ऑर्डर काडटां', ताणें आश्वासन दिलें.

कांय वेळान एक अजाप घडलें. भगवें न्हेशिल्लो एक संतपुरूस फुडल्यान येतालो. हातांत कमंडलू. देवानूच हाका उदक घेवन धाडला आसतलो, अशे बेठेंच म्हाका दिसलें. कलियुगांत साक्षात्कार घडटात काय?' कोण जाणा? धांवत गेलो आनी ताच्या पांयांर घालून घेतलें. रोखडोच उठलो आनी व्हडा उमळशिकेन कमंडलूंत पळेलें. फूस्स! खंयचेकडेन कांयच ना. घडये चमत्कार बी करून उदक

दीत म्हूण ताचेकडेन प्रार्थना केली– 'तान लागल्या. इल्लेंशें उदक मेळत?'

'तान लागप सभावीक आसा. ती लागताच. लागुंकूच जाय. लागतलीय. आत्म्याकूय तान लागता, परमात्म्याक मेळपाची. तांचें मीलन जाता, तेन्ना ब्रह्मानंदाची अनुभूती जाता'. प्रवचन आयकुपांत अर्थ नाशिल्लो. आंतकड्यो सुकिल्ल्यो.

बरो फुडें वतकच एक दोतोर मेळ्ळो. काकुळटेक येवन उदकाविशीं ताचेकडेन मागणी केली. दोतोरान विज्ञानीक विचारांचें इंजेसांव दिलें– 'तान कशी लागता जाणा मरे? मेंदवांत दोन सेन्सर (संवेदक) आसतात. कुडींतलें सगळें रगत ह्या दोन सेन्सरांलागसारच्यान पास जाता. सदांच. आनी ते दोन सेन्सर टॅस्ट करतात– रगतांत कितलें मीठ आसा? चड मीठ आसल्यार ते आपोआप तान लायतात, जाचेवरवीं तूं उदक पियेता आनी उदकाचें आनी त्या मीठाचें लेवल फावो तशें सॅट जाता. घाम येतकच तान चड लागता. अशा वेळार उदक पियेना जाल्यार डिहायड्रेशन जावन मनीस मरूं येता.'

मेल्यार तरी सुट्टलों आसलों, अशें दिसलें. जीव कासावीस जाल्लो. थंयच बसकण मारली. इतल्यान एक भिकारी आयलो. कितल्लेशेच दीस न्हावंक नासलो. आंगार बुरशीं बोंदरां. हातांत एक आयदन. तातूंत उदक.

विद्या, धन, मान, रूप, प्रतिश्ठा अशा तरेकवार रूपांनी तटतटपी म्हजो अहंकार एका खिणांत नाच जालो. भिकाऱ्यामुखार दिमी मारली आनी लाचार जावन उदकाखातीर याचना केली. हाताचो पोसो केलो आनी ताणें घाल्लें उदक घटघटीत पियेलों. उतरांनी सांगूंक जावचो ना, इतलो धादोसलों. कुडीच्या अणूरेणूंतल्यान तृप्तीचे तरंग सळसळून गेले. काळजांतसावन ताका धन्यवाद दिले आनी धेंकर दीत फुडें सरलों.

'हांसता सो?' एका सभाग्यान चवकशी केली. दुसरो खूश आसल्यार आपल्या पोटांत चाबप, हें मनीस सभावाचें लक्षण आसूंक फावो. हांवें म्हळें– 'जबरदस्त तान लागिल्ली. एकल्यान उदक दिलें. जीव पुराय संतुश्ट जालो. तान भागली आनी आनंद जालो.'

'तान म्हळ्यार कितें आनी ती भागप म्हळ्यार कितें?' ताचो प्रस्न.



थंयच पडिल्ली एक बडी काडली आनी ताच्या पांयार वडीन मारली. 'आवय गे' करीत तो निन्नळ्ळो.




- कितें जालें?

- तुवें म्हाका दुखयलो.

- दूख म्हळ्यार कितें?

- सांगूंक येना. पूण पांय दुखता.

- मन, बुध्दी, कल्पना, संकल्पना, तर्क, विचार, परिभाशा आनी व्याख्या हांचे पलतडीं कांय गजाली आसतात. त्यो उतरांनी परगटावं नजो. तांचो फकत अणभव जाता. तुजो पांय दुखता तसो. म्हजी तान भागल्या तसो.

तो मात्सो गोंदळ्ळो म्हूण हांवें ताका आनीकूय स्पश्ट केलो- 'समज, मोन्याक एक सोबीत सपन पडलें आनी सकाळीं उठून तें दुसऱ्याक सांगपाखातीर तो धडपडलो; कसो सांगतलो?'

ताका पटलें आनी निर्जाप जावन मोनो कसो तो म्हाका पळेत रावलो.

□□□



# जिवीत आमचें सोबीत

आयतार आशिल्ल्यान उठपाक मात्शी आळसाय केली. पूण जनेलाचे खांचींतल्यान सुर्याचीं हुनहुनींत किरणां आयली आनी तांणी अचळय खातकुतल्यो केल्यो. उठचेंच पडलें. मजाच दिसली. कितलींशींच वर्सां जालीं. सूर्य नेमान उदेता. चिरतरूण कसो! सगल्यांक चैतन्य दिता. सदांच जिवो तट्टटीत आनी 'फ्रॅश'! आमचेवरी आयतारा आळसाय करिना.

काळजाचे दोळे उक्ते करून भोंवतणी नदर मारल्यार दिसून येता, सैम आमकां एकसारको प्रेरणा दीत आसता. आमचें जिवीत दिसानदीस सोबीत करीत आसता. फुलांकूच पळेयात! तरेकतरांच्या आकारांचीं; विंगड विंगड रंगाचीं, नाजूक! तांचेर दंवाचे थेंबे पडटकच आनिकूय सोबीत दिसतात. गुलाबाच्या कळ्यांपसून ल्हवपीकपणान फुलपी गुलाबाचें फूल; ही कितली सुंदर सैमीक प्रक्रिया! म्हाका दिसता, कळ्यांपसून रोखडोच गुलाब फुलचो देखून. पूण तो आपल्या सैमीक नेमाप्रमाण फुलता. पासियेंस कशे काडचें हाचो म्हाका बोध दिता. फुलांवांगडा आंदाळ्यो-गुंदाळ्यो करपी पिसोळीं पळेतकच जाल्यार मन धादोस जाता आनी पिसोळ्यांवरीच नाचूंक लागता.

'तू सदांच निळें शर्ट कित्याक घालता? इश्टान म्हाका विचारलें. हांवें सांगलें- 'सैमांत भरिल्ली नीळसाण पळे. मळबाचे अनंततायेक आशिल्ली नीळसाणेची झालर पळे. नीळसाण म्हळ्यार वास्तवता, प्रेरणा, स्फूर्त. बाकीबाबान कवितेंत म्हळां, 'निळें निळें सवणें एक, सकाळच्या गो पारा, भांगराचीं घुंगरां बांदून आयलें म्हज्या दारा...' नीळसाण आमकां एक अप्रूप शांती दिता. भोंवतणच्या जगांत बुरबुटिल्लें मन आनी तकली थंड करपाक हांव मळबाक तेळीत रावतां. दिसाचीं तातूंतलीं आपालिपा करून खेळपी कुपां पळेतां. रातीकडेन चान्न्याचें, नखेत्रांचे पीठ पळेतां. दोळे आसात, दोळ्यांनी भोंवतणी पळोवपा सारकें आसा. आनंद आसा आनी तो अणभवचेली तांक, जिज्ञासा आनी नदर आसा देखून

म्हाकाच धन्य समजतां. पाचवीचार शेतां पळेतकच दोळ्यांक एक विलक्षण थंडाय मेळटा. शेतांतल्यान धांवपी वारो आनी त्या खातकुतल्यांक लागून वयर-सकल धोलपी शेतां पळोवन कोणा सभाग्याक खोस जावचीना? भौ. हरदत्त खांडेपारकार हांचे 'सृश्ट तूं कमळ कशी' हें गीत म्हाका खूब आवडटा. त्या कवीवरी भोंवतणची ही 'ग्रिनरी' पियेत रावन दिसता.

दर्यादिगेर घसघसपी ल्हारांचो फेंस आमच्या मनाक चंवर हाडटा. तळ्यांतली शांत नीळसाण झेलावरी शांत कशें रावचें, ताची देख दिता. म्हजें ल्हानपण प्रियोळा गेलें. तेन्ना आमी केन्नाय वयर दोंगरार एका वझऱ्याचेर न्हावंक वताले. केरीसावन सुटिल्लो एक वझरो खडपांतल्यान, रानांतल्यान, झाडांपेडांतल्यान भोंवडी करीत थंय कोसळटालो. उदक खूब गोड गोड! आयज 'मिनरल वॉटर' पियेतात ताचे परसूय श्रेष्ठ. आयज लेगीत केन्ना केन्नाय दिसता, परत एकदां मनान भुरगो जावन त्या वझऱ्यार वचून उदकावांगडा नाचचें, खेळचें! आयज उद्योगीकरणाचो, शारीकरणाचो, फ्लॅटाचो गुलाम जाल्ल्यान हांव स्टार टीव्हीचेरूच पळेतां. फ्लॅटाच्या खोर्नांतलो कालोर सोंसना जाता, तेन्ना जीव आकूळपिकूळ जाता. भुरगेंपणात चारां, चुन्नां तोरां, कुळागरां हांच्या परमळांत म्हजी कशी पोसवण जाली, ताची याद येनाफुडें परत सैमाक वेंगावचो कसो दिसता.

हालींच एका लग्नसुवाळ्या निमतान नागेशीं देवळा वाठारांत उरलों. फांत्यांपारार शेवण्यांच्या चिंवचिंवाटान जाग आयली. उठून पळेत जाल्यार, जनेला भायर एका झाडार सुकणीं समूहगीत गायतालीं. आहत आनी अनाहत अशे दोन तरांचे नाद आसतात खंय! सुकण्यांचें गायन कसले तरेचें तेविशीं तकली लायनासतना हांवें म्हज्या काळजाचो पेलो उक्तो केलो आनी तो सुकण्यांच्या सुरावटीन भरीत रावलो...

❑❑❑

# म्हजें गोंय

जिविताचो विद्यार्थी जातलो जाल्यार ताका खंय अनंत पासियेंस आसूंक फावो, अशें एका विचारवंतान म्हळां. गोंयची बस येरादारी गोंयकाराक हें सोंशीकपण शिकयता. कांय कांय खेडेगांवांनी वरांचीं वरां बसीची वाट पळेतां-पळेतां आपूण कित्याक उबो रावलां, हें लेगीत विसरप जाता. दरेक झाड, देवूळ, इगर्ज, मशीद, पसरो, बार.... हे बसीचे स्टॉप. कांय खेड्यांनी मिनी बसी चलतात. त्यो मिनी बसी एकेकल्याच्या घराकडेन तो वा ती कपडे न्हेसून येसर एकेकदां थांबतात. लायटीचे खांबे पुरपाखातीर मारिल्लेवरी बिळां, फोणकुलां आशिल्लो रस्तो म्हळ्यार गोंयचो राष्ट्रीय महामार्ग. म्हज्या गोंयांत कसलीच सर्त जावपाची उरूंक ना. नरकासुराची जाली, आरती गावपाची जाली, बटाटवडे खावपाची जाली. हालींसराक शारांतल्या रस्त्यांचीं फोंडकुलां मेजपाच्यो सर्तीय सुरू जाल्यात. बाबडे बसींचे टायर गोंयकारावरीच खूब सोंशीक आशिल्ल्यान फोंडकुलांच्या दगदगांचो विशाल काळजान स्वीकार करतात.

गोंयचे फोन विचित्र. मडगांवसावन बाणावले एकेकदां फोन लागना, पूण कुवेताक मात सहज लागता; पणजेसावन आल्तिन्याचेर फोन केल्यार बोबो, हुयेली, आड्ड्यो मारल्यार लेगीत दुसरेवटेन आयकूंक येना. पूण पयरूच हांवें म्हज्या एका इंजिनियर इश्टाक पणजेसावन जर्मनीक फोन केलो, तेन्ना ताच्या घरांतलो भुरग्यांचो कुलकुलाट तशेंच भायल्यान वचपी मोटारींचो घरघर स्पश्ट आयकूंक आयलो. फोनाच्या बिलांविशींय जावपी घोळ आनी अनिश्चितताय तर विचारूंच नाका!

म्हजो बापोलभाव मुंबयसावन गोंयां येतना पयर बडबडत घरांत सरलो.

– जालें. आतां 'वर्ल्ड धीस वीक', छायागीत, चंद्रकांता, सुरभि, क्रिकेट कांय ना.

– कित्याक रे?

– तुमची लायट धड?



गोंयकार गोंयचीं खबरापत्रां आवडीन वाचतात. चडशे जाण पेपर फुकट वाचतात. बसींत प्रवास करता आसतना वा ऑफिसांत, कोणाचोय घेवन पेपर वयलेवयर वाचून ते गोंयच्या राजकारणाचेर कायचेकाय भरभरतात आनी सरकाराक गाळी बी घालतात. साकरपुडो, लग्न, बाय/बाब हांचो जल्म, कोण कोणावांगडा पळून गेलो, असल्यो जगावयल्यो खबरो, लफडीं हांचें रुचीन वाचप जाता आनी ऑफिसांत कामा वेळार ताचेर सामुहीक भासाभास जाता. राष्ट्रीय खबरांपत्रां आनी हेर नेमाळीं वाचपाक मात कोणाक 'वगत' मेळना.

गोंयकार, टी.व्ही. आपल्या दोळ्यांनी पळेता, कानांनी मात्तूय आयकना, पूण तोंडान मात उलयत आसता.

- हिचे साडयेची बॉर्डर बरीऽ, आं!
- हांसतना हो सारको ताईबायल्या संजूभशेन.
- कानसुलांचेर हाका शांताल्या बीनाभशेन मारता.
- हाचो आवाज सुको.
- ताचे बोंचो मात्सो वांकडो.

दूरदर्शनाक 'इडियट बॉक्स' कित्याक म्हणटात, हें म्हाका हाचेवेल्यान होलमलें.

खेळांमळार म्हजें गोंय फाटीं ना. गोंयचे कांय कलाकार आनी संगीतकार जशे डायरेक्ट मैफीलीक रियाझ करतात, तशेच कांय खेळगडेय थेट टुर्नामेंटांत प्रॅक्टीस करतात. कारण तांच्या-तांच्या क्षेत्रांत तांचो हात धरपी कोण ना. कांय खेळगडे पिरायेचीं ५० वर्सां जालीं तरी खेळत आसतात. सिझन बॉलाचो भंय दिसता, देखून चडशे क्रिकेटर हालींसराक वर्सभर रात-रात जागरणां करून लायटीचेर टॅनीस बॉलान खेळटात.

पखवाज-तबलें हांची जशी गोंयांत जुगलबंदी पळोवंक मेळटा, ताचेकूय व्हड आनी दोळे दिपकावपी जुगलबंदी गोंयच्या नळांभितर जाता. पणजे दोन दीस नळ नासल्यार दिवचले तो बिनधास्त चार दीस लिपता! मांगोर हिल-वास्कोचे लोक नळाक विटून मंत्र्याक घेराव घालतात जाल्यार हावसींग कॉलनी, पर्वरी रावपी लोक उदकाच्या हालांक कंटाळून विधानसभेचेर मोर्चा व्हरतात. गोंयचे

नळ गोंयकारांवरीच संगीतकार, विनोदी आनी आनंदी! ते मनाक मारल्यार केन्नाय 'पिरीपिरी' बारीक धार सोडटात ना जाल्यार दिसूयभर 'शूऽ शू' करून वेगवेगळ्या संगीत रागांनी शिळोण्यो घालीत आसतात. मडगांवां तर अजापूच घडटां. नळांतल्यान येवपी विंगड विंगड जीव, किडे, तरेकवार कण हे अॅटोमोलॉजिस्ट शास्त्रज्ञांक आव्हान थारल्यात. संवसारांतलें हें आठवें अजाप!

देवा, परमेश्वरा- अप्रुपांच्या आनी अजापांच्या ह्या गोंयांत तुवें म्हाका जल्माक घालो म्हूण तुका काळजांतसावन लाख लाख धन्यवाद. एकूच मागणें- म्हाका आनीक जल्म दिवपाची तुजी इत्सा आसल्यार मात ह्याच विस्मितांचे अजब नगरींत जल्माक घाल.

❒ ❒ ❒



# सुरवी मनशाचो सदरो

तशें पळोवंक गेल्यार राजाक कांयच उणें नाशिल्लें. सोबीत राणी आशिल्ली. राजबिंडो राजकुंवर आशिल्लो. राज्यांतली प्रजा सुखी आशिल्ली. ती राजाआड संप, उठाव बी केन्नाच करिनासलें. राज्यांत धनधान्य आदी सगळे तरेची समृध्दी आशिल्ली. इतलें सगळें आसून लेगीत राजा सदांच चिंतेस्त आसतालो. आपले तकलेक शांती ना, अशें तो सदांच पिरंगतालो.

मनशांती मेळोवपाखातीर राजान नाना तरेचे उपाय केले. ताणें नेपोलियन हिल हांचें 'थींक अँड ग्रो रीच' हें नामनेचें पुस्तक वाचलें. डेल कार्नेजीचें 'हाव टू स्टॉप वरीइंग अँड स्टार्ट लिवींग' हें आनी हेर हाव टू... उतरांनी सुरू जावपी अमेरिकन पुस्तकांचे ताणें चर्वण केलें. पूण ताची समस्या सुटली ना. हांतपांय वांकडे-तिकडे करून तरेकवार योगासनां करून पळेलीं. तरी राजाक समाधान मेळ्ळेंना. उरफाटी ताची बेचैनी वाडत आशिल्ली. राजयोग, भक्तियोग, ज्ञानयोग आनी हेर आध्यात्मिक पुस्तकां ताणें वाचलीं. दानधर्म, व्रतां, उपास - तपास, जप, ग्रहशांती, कर्मकांडां.... सगल्यो राटावळी केल्यो. तरी राजाक सुखाचो सोद लागलो ना. पयसुल्ल्या एका हॉस्पिटलांत वचून राजान 'फिजिओथेरपी' केली; मानसोपचार तज्ञाकडल्यान 'सायकोथेरपी' करून घेतली. तिचोय कांय फायदो जालो ना. राजाच्या अंतस्कर्णातलो काळोख दिशीं दिशीं वाडत आशिल्लो. काळजांतलें रेंवट सुकत आशिल्लें. राजा जिविताक विटिल्लो.

प्रधानान राजाक निमाणचो उपाय करपाक सांगलें– 'राजन, धर्तरेवेलो सर्ग म्हळ्यार गोंय. थंयचे सगळे लोक सुखी. तुमी गोंयांत वचात आनी खंयच्याय सुखी मनशाचो सदरो घालात. तुमकां तात्काळ सुखाची अनुभूती जातली.' शेणिल्ल्याचें मन हजारकडेन.

राजान चार्टर्ड फ्लायट मारली आनी दाबोळे देंवलो. फॅक्स संदेश धाडून थंय 'काँटॅसा' गाडयेची पयलींच तजवीज केल्ली आशिल्ली. राजा प्रधानाक घेवन सरळ मडगांवां आयलो. गोंयचे हवेनूच राजाचो जीव 'सूऽ' जालो. मडगांवां



ज्यार्दिनाकडेन राजान गाडी थांबयली आनी तो देंवलो. ज्यार्दीनाचे सोपे सुखी आनी सुशेगाद लोकांनी भरिल्ले. लोक चकाटां मारीत भिकणां कल्लायत बसल्यात, ताचेवेल्यान ते महासुखी आसात, अशें जाणवतालें. राजा काचाबूल जावन फुटपाथावेल्यान वाटकुळी प्रदक्षणा मारपाक लागलो. बाण मारतना अर्जुनाक नुस्त्याचो दोळोच दिसतालो तेच तीव्रतेन राजाचे दोळे सदरो घाल्ल्या गोंयकारांक सोदताले. 'युरॅका, प्रधानजी' राजा अकस्मात किळांचलो.

सपन बी न्हय मूं, ह्या दुबावान राजान आपल्याक चिमटो काडून पळेलें. एका सोप्यार तीग जाण तेजिश्ट, आडसाटे, प्रतिभावान बशिल्ले. तिगांनीय सदरे घाल्ले. कवीन मलमलचो, नाटककारान खादीचो आनी संगीतकारान चायना सिल्काचो. गोंयकार आशिल्ल्यान आपल्या मापापरस उण्या नंबराचे ताय्ट सदरे ताणी घाल्ले.

ब्रह्मा, विष्णू आनी महेश हांचेमुखार नमचें तेचवरी राजा तांचेमुखार बागवलो आनी ताणें तांकां आपली परवड सांगली आनी सदऱ्याखातीर याचना केली. तिगांकूय राजाची काकळूत दिसली. संगीतकारान आपलो सदरो काडपाचो यत्न केलो. पूण फेव्हिकॉलान घट्ट दसयिल्लेवरी तो आंगाक चप्प बशिल्लो. तो कसोच आयलो ना. नाटककारान आपलो सदरो काडपाचो यत्न केलो. ताचीय तीच गत, ताच्या खादीच्या सदऱ्याची एक फाळी पिंजून हातांत आयली. पूण सदरो आंगाचो सुटूंक तयार ना, कवीचो सदरो तर हायकूवरीच माणकुलो आशिल्लो. सदरो आटला काय कवीवर्य मोटो जाला, हो खरें म्हळ्यार पीएच्‌डीचो विशय. आसूं! पूण तो मात्तूय हाललो ना, हें मात खरें. कवीच्या रुंवारुंवांत भरिल्लें काव्य शिरशिरलें. ताणें राजाक म्हळें, 'राजन, बाकीबाबान म्हळां, सुख ना रे पयस पळे, उदक कशे तें व्हांवता, धरूंक वेशी जाल्यार मात पारज जावन धांवता. सुख पेंवता नुस्तें कशें.....' नुस्त्याचो उच्चार करिनाफुडें ताणें आंवडो घोंटलो आनी तो फुडली कविता विसरलो. सावचीत जावन ताणें म्हळें, If you want to become happy, be happy!

अंतस्कर्णांत तयार जाल्लो राजाचो व्हॅक्यूम ताच्या उतरांतल्या घणघणीत सत्यान लखलखलो. उदकाविणें सुकून बाविल्लो कुळागरांतलो कावथो उदक

शिंपतकच तरतरीत जावचो, तेचपरी राजा धादोसभरीत जालो! सुख हें भायर नासता, तें आपल्या मनांतूच आसता आनी ताचे फाटल्यान लागचे परस ते अणभवपाचें आसता, हें सत्य राजाक होलमलें, ताच्या तृप्त काळजांतल्यान उतरां आयलीं- 'अजीब ही नहीं, बल्की होशियार भी हैं आप गोवा के लोग!'

❑❑❑

# ... आनी हांवूय जियेतां

मनीस जिवो आसा, exist जाता देखूंन तो हात पांय हालयता- जियेता. कांय गोंयकारांचो हांवें एक सर्वे घेतलो- 'तूं किद्याक जियेता?' तातूंत मेळिल्ल्यो कांय वेंचीक जापो अश्यो-

- आतां आनी व्हडलेंशें कांयच पळोवपासारकें उरूंक ना. सद्या गोंयचे दूरदर्शन पळोवपाखातीर जियेतां.

- खेळपाखातीर (मटको)

- येतिश्ट पियेवपाखातीर

- 'कोंकणीखातीर', एक जाणटो म्हालगडो.

- पुस्तकां बरोवपाखातीर. एक दीस तरी नोबॅल ना जाल्यार ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळत हे आशेन. एक साहित्यीक.

-'आंवंय, हें किदें विचारप जालें? जिणेचो एकूच उद्देश. तो म्हळ्यार लग्न जावप.' एक चली.

जिवीत म्हळ्यार गुपीत  
जिवीत म्हळ्यार कवीत  
जिवीत म्हळ्यार फातर  
घट घट आकांताळो कुपांदर  
जिवीत हो घयरांव  
घुस्पागोंदळाचें कोंफुझांव-

नवकवीचें दीर्घकाव्य बेगीन सोंपचेंना म्हूण हांवें तांका साश्टांग नमस्कार केलो आनी फुडें गेलों. कवी हो मनिसूच असो की ताच्या आंगाक खंयूय टांचणी तोपीत, जाल्यार थंयच्यान रगत येवचेंना पूण कविता व्हांवतल्यो.

इतल्यान एक सळसळपी रगताचो तरणाटो मेळ्ळो. 'म्हजें ध्येय क्रांती. क्रांती केल्यारूच शांती जातली.' तोय बी कवितेक जल्म दीत देखून हांव कडसरलों.

शेजारचो बाबू इश्कोलाक सावन घरा येतालो. 'शाण्या, तूं किद्याक

जियेता?'

'पयलीं हांव टीवी आनी व्हिडिओ पळोवपाक जियेतालों. पूण सध्या हांव देशांतल्यो आनी संवसारांतल्यो सगळ्यो भासो शिकपाखातीर जियेतां.' 'ठोऽ' करून ताणें बबल गमाचो बोमाडो फोडलो आनी दोळे बारीक करून तो 'इंग्लीशींत' हांसलो.

सिटी बसींत लीना मेळ्ळें. बँकेंत वतालें. 'त्रास' पोटांक लागून तें घामान थपथपिल्लें. 'ह्या बसींनी आजून मेरेन फुगार जावन मरूंक ना म्हूण हांव जियेतां'. हावें सर्वे अखंडपणान चालूच दवरलो.

'नोकरेखातीर जियेतां. प्रोमोशनाचे आशेन', वरिश्ठ अधिकाऱ्यांक सदांसर्वकाळ ग्राश मारीत रावपी एका L.D.C. न सांगलें.

'ताल आनी लयेचो दर्या अनंत. ताचो थावूच लागना. पूण तातूंत शेणपाक आनंद येता.' अशें म्हणत तबलज्यान त्रितालांतलो कायदो खरपिलो.

-''कन्फ्युशियसान अशें सांगलां..... रसेल अशें म्हणटा.... टागोराचे म्हणणें अशें की जिवीत म्हळ्यार......'' स्वताचे सोडून हेरांचे विचार कवटेंत फीड केल्लो 'विचारवंत' नांवाचो कम्प्युटर फडफडलो. ताच्या विचारांचो कोचोप म्हजे तकलेंत रिगत म्हूण हांव सावचीत आनी सादूर जालों.

'दिसपट्ट्रे पेपराचेर येवपी म्हजे फोटे पळोवपाखातीर'- मंत्री.

'लोकांच्या घरार सुणी चडोवप आनी मागीर पोटभर हांसप हेंच म्हजें जिवीत'. एक chronic देमांदिश्त.

'तुका किद्याक? बेकार रे? आनीक कांय उद्येग ना?'- शापोतेर आनी तिरसुवाद गोंयकार.

बिझनेसमॅनाक मेळूंक गेल्लों. पूण तो खूब 'बिझी' आशिल्ल्यान उलोवंक मेळ्ळोना. एक नामनेचो नाटककार मेळ्ळो. - हांव जियेतां नाटकांखातीर. शेक्सपियरान म्हळां, संवसार ही एक रंगमाची आनी आमी सगळी ताचेवयलीं पात्रां. त्या नाटकांत आनीक एक नाटक करतना म्हाका स्वर्गाचें सुख मेळटा.

खांदाक बोटवो, हातांत तटतटिल्लें बॅग अशे अवस्थेंत बिरीबिरी पावसांत सत्रेक गोळ मारीत दिनाची स्वारी चलताली. कपलाक ६४ मिरयो. कार्रेगाद फेर्र



मारल्यार वचुंये, अश्यो.

‘दिना, तूं किद्याक जियेता?’

पांयाच्या आंगठ्यासावन तकलेमेरेन दिनान म्हाका तेळ्ळो आनी आपलो गंभीर खर्ज लायलो- तुका म्हूण सांगतां. बाकिच्यांचें म्हाका कॅर ना. खरें सांगूं, फांतोडेर जाग येता देखून हांव उठतां आनी रातची न्हीद येता म्हूण न्हिदतां. मदल्या काळांत कायचेकाय व्हाळ कसो व्हांवतां आनी मरना देखून जियेतां.

❒ ❒ ❒



# लघुकथिकांचो पांटुलो

तो खूब अभ्यासू. नामनेच्या विश्वविद्यालयाची ताणें पदवी घेतली. डिग्रेची कवळी हातांत घेवन आनी तोपी घालून फोटो बी काडलो. विंगड विंगड विशयांवेलीं पुस्तकां वाचून लेगीत ताचे बुध्दीची तृप्ती जाली ना. पयस गांवांत एक बरो शिक्षक आयला म्हूण ताणें आयकलें.

तो शिक्षकाक मेळूंक गेलो. शिक्षक आपले खोंपीभायर पोरसांतले बांयचेर उदक काडटालो. ताणें शिक्षकाक नमस्कार करून म्हळें– 'हांव शिकूंक आयलां.' 'शिकयतां; पूण एके अटीचेर. तुवें फकत तोंड बंद दवरप. हांव सांगतां तेन्नाच उलोवप' शिक्षकान म्हळें. तो कळसुली वयर ओडीत रावलो. पूण ते कळशेक पोंदच्यान कितलेशेच बुराक आशिल्ले. बांयच्या तोंडार कळशी पाव म्हणसर पुराय उदक बुराकांतसून निस्तलें. विद्यार्थ्याक अजाप दिसलें. पूण 'उलोवप ना' ही अट आशिल्ली म्हूण तो ओगी रावलो. शिक्षकान कळसुली परत उदकांत सोडली आनी तो वयर ओडूंक लागलो. परतून तीच गत. बुराकांतल्यान पुराय उदक व्हांवन गेलें. विद्यार्थी सामको चपापलो! हो शिक्षक काय अर्दकुटो काय पिसो? बुराकांची कळशी कशी भरतली? आनी रावं नजो जावन तो पचकलो– 'पूण कळशी कशी भरतली? बुराक पुरयलेबगर...'

'हेंच तें!' शिक्षकान म्हळें, 'तुका पासियेंस ना. तोंड बंद दवरून आयकुचेली सहनशीलताय तुजेकडेन ना. आनीक एकूच खेपे हांव ती बुडोवन तुजी परिक्षा घेवपाचों. चड वाचिल्ल्यान तुज्यांत पुस्तकी गिन्यानाच्या अहंकाराचो बुरो दाटला. भंयाचे, दुबावाचे आनी प्रस्नांचे बुराक जावन तुजी तकली पोपडेल्या. ते पुरयले बगर तुज्यांत हांव कितें घालूं?'

विद्यार्थ्याक आपली चूक कळ्ळी आनी विद्यार्थीपणाचो पयलो धडो तो शिकलो.





एक फकीर त्या गांवांत पावलो. वडाच्या रुखापोंदा बसून तो सैम नियाळटालो. इतल्यांत थंय एक मनीस पावलो. ताणें म्हळें– 'आयज फांत्या पारार म्हाका एक सपन पडलें. तुमी शे आयल्यात आनी तुमच्या बोटव्यांतसून तुमी म्हाका एक मोलादीक हिरो दिला.'

फकिरान शांतपणान बोटव्यांत हांत घालो आनी एक हिरो काडून ताका दिलो. हिरो घेवन तो मनीस घरा परतलो. सांजवेळा परत तो फकिराकडेन आयलो आनी ताणें तो हिरो परत दिवन म्हळें– म्हाका हो हिरो नाका. ज्या विशाल अंतस्कर्णान तुमी म्हाका हो हिरो दिलो, ती मनाची गिरेस्तकाय म्हाका दियात!'



आयज आयतार. सांजवेळा कितें करतलों? गाडी घेवन तो 'बिझनेसमॅन' दर्यावेळेर गेलो. कांठार आशिल्ल्या एका व्हडाच्या आडोसाक तो बसलो. लागींच एक नुस्तेकार विडी ओडीत आनी मदीं मदीं कांतार गुणगुणत जाळें विणटालो. नुस्तेकाराकडेन खबरी करतां– करतां ताणें ताका विचारलें– सध्या तुजेकडेन हें एकूच व्हडें आसा. धंदो मात्सो वाडोवन आनीक एक व्हडें तू कित्याक घेना? मागीर तूं लाँची लेगीत घेवंक शकतलो. धंदो कितलो वाडटलो पळे!'

'अशें करतकच कितें जातलें?'

'तुजेकडेन् खूब पयसो जातलो. तूं उपाट सुखी आनी समाधानी जातलो.'

'आनी आतां हांव कितें आसां तर?'

विडयेचो झुरको मारून नुस्तेकार खळखळपी ल्हारांक पळोवन हांसलो आनी कांतार गावंक लागलो.



सायकल रस्त्यादेगेक लावन तो नुस्त्या बाजारांत गेलो. नुस्तें घेवन भायर आयल्यार कितें पळेतलो? सायकलूच ना. 'देवा पाव' म्हूण तो सायकल सोदीत

रावलो. सांजवेळा एका दुकानाभायर ताणें ताची सायकल पळेली. सायकलीर बसून धादोसभरीत जावन तो पेदालां मारीत देवळांत गेलो– देवाक 'थँक्यू' (देव बरें करूं) सांगपाक! देवळांतसून भायर आयल्यार कितें गा पळेतलो? सायकलूच ना!!

❒❒❒



# कळपुटी

आज फोंड्यां सतीश दिशिल्ली मेंदरेक नदर लागून लेगीत ताणें आज तिसरे खेपे म्हाका हडकिलोना. येदोसो चिर्डटो आसतना हाका आंगाखांदार खेळयलो. हिसपाभायर अपुर्बाय केली, म्हूण हो बेमान बी जावंक ना मूं? खीणभर चिंतलें, ड्रग्सांचें वेसन बी लागूंक ना मूं हाका? कॉलेजींतल्या पोरांचेर अच्छेव आयला हालीं. घरा येतकच 'अधिक चौकशीअंती' समजलें, सतीशाक हालीं कवितांचें वेसन लागलां!

– थंडी जाल्या, तकली उसळटा, मान वळटा, आंग कढ्ढता, काडामोड जाल्या. तात्पर्य– दोतोराक पयशे घालप.

– नानी पालखीवालाचें 'व्ही, द पिपल' पुस्तक वाचलें. किशोरी आमोणकाराची संगिताची दर्यातली खोलाय समजुपाक आयकुप्याकूय तितलीच अक्कल लागता. कायदो, साहित्य, इतिहास, राजकारण, वेपार अशा कितल्याशाच विशयांचो पंडीत आशिल्ल्या पालखीवालाचीं उलोवपां वाचतना, असामान्य बुध्दीमत्ता म्हळ्यार किते आसता, हाचो इल्लोसो थाव लागिल्लेभशेन दिसलें.

❑ ❑ ❑

– 'प्रचंड' आग्रो करून संजयान आज म्हाका जेवपाक आपयिल्लो. आंवाळो दिवन कुंवाळो गिळपाचो आसता तेन्ना तो म्हाका अशीच ग्राश मारता. बायलेन नव्यो आर्विल्ल्यो 'डिशीस' केल्ल्यो. विचित्र! पोट डब्ब जावन बाफार जालें. दोन गॅसेक्स गुळयो घेतल्यो.

– आज १५ तारीक. १ तारकेची वाट पळेत रावप. वाडदीस, लग्नां, सॅण्ड-ऑफ, केळवणी वाडत आसात. पगार मात फुगना.

– देव आसा काय संवसारांत? देव जाणा! स वर्सां जालीं तरी हांव L.D.C. म्हूण टायप कुटीत आसा. वागयो, कुल्ल्यो, गांथनी... आनी कसल्योच साग्वादी बॉसाक पावोवपाच्यो उरूंक नात. आले देवाजीच्या मनात, कोणाचेंही चालेना! एकाद्री परीक्षा पळेता आसता तो (देव) म्हजी.

– बॉसान आज मेमो दिला. एक बॉक्स-फायल भरतली, इतले मेमो जाल्यात म्हजे. सदां उठून पडपी ह्या कागदांक आतां मोल उरलां? दळडिऱ्यान चारचौगांमुखार सुज्यार केलो, ताचें मात वायट दिसलें. एका इंग्लीश लेखकान म्हळां, ‘घडयाळ वॉटरप्रूफ आसता, तसो तूं सॅडप्रूफ जा. मागीर तुका कसलेंच दुख्ख, पातसो, क्लेश लागचेनात’. फाल्यांसावन सॅडप्रूफ जावपाचो यत्न करप.

– पंजाबः ३१ मेले, काश्मीरः १४, श्रीलंकाः ४६. ह्या वाठारांनी फॅमिली प्लॅनिंगाची गरज ना.

– आपणागेर केन्नाच येना म्हूण दादा शिणटा. आज आयतार म्हूण पासय मारली, पळेल्यार सगळींच सुतकीं जावन बसल्यांत. कोण तरी सोयरो भायर पडला आसूंक जाय, अशें म्हाका दिसतनाच दादान म्हळे, ‘ ‘आज चवथो दीस’. म्हजी उमळशीक वाडली. ‘नळ ना’, बायलेन फुडें सांगलें. खंयच्यान तरी हाडिल्ल्या उदकाची कळमूट च्या घेवन परतलों.

– नुस्त्याक उजो पेटला. वीस रुपयांक चिमटीभर सुंगटां?

❐ ❐ ❐

– पणजे दिना मेळ्ळो. ल्हान आसतना ‘देव दीनाघरी धांवला’ नांवाचें नाटक आयिल्लें. म्हाका तेन्ना वोगीच दिसतालें, दीनाघरी म्हळ्यार आमगेल्या दिनाचे पर्णकुटींत बी गेल्लो काय हो देव? सदांच दीन आनी चिंतेस्त आसपी दिना आज बरोच खोशी आशिल्लो. ‘उडय हात’ अशें म्हणत ताणें म्हाका बळयां शेकहँड दिलो.

– किद्याक? हांवें विचारलें.

– म्हजें लग्न.

— कॉंग्रेट्स! (केळवणीचो आमीक एक फटको पडलो)

– आई हांतुणार आसा. जेवणाच्या डब्याक लागून त्रास जातात. देखून लग्नाबगर गत्यंतर ना.

जेवणाच्या डब्याखातीर लग्न जावपी दिनाची म्हाका काकूट दिसली आनी दोळ्यांत दुकां दाटलीं.

❐ ❐ ❐

– सपनां कित्याक पडटात काय? फ्रॉयडाचें 'ड्रीम ॲनॅलिसीस' वाचिल्लें. कांयच समजलेंना. तकलेवेल्यान गेलें.

– आयज एक भयांकृत सपन पडलें. सपनांत हांव मेलांसो. सगळे जमल्यात. कुलकुल, रडारड, कोण तरी म्हजी गळ्यांतली सरपळी तेळीत आसा. इतल्यान बुकीन आंगार उडी घेतली आनी सपन 'डिसकनेक्ट!' घाम आयिल्लो. एक ग्लास उदक पियेतकच भानार आयलों. चिमटो काडून पळेलो, जितो आसां! इतलो आनंद जालो, उतरांनी वर्णप कठीण. 'ब्लीस' म्हणटात तें अणभवपासारकें प्रकरण अशेंच आसुंये घडये!!

❑❑❑

# गालमो

घरांत सोयऱ्यां भरल्यांत. कित्याक हे मुंबयकार पिडूंक येतात, कोण जाणा. आमी हांगेर काय केन्नाच वचनात. गेल्यारूय काजूबियांचीं पाकिटां आनी सोलां, साठ बी घेवन वतात. तेभायर मुदलांतूच वतले कशे? इल्लोसो जागो. फुडें पांय घाल्यार आयदनां आनी फाटल्यान पांय घाल्यार आदोळी.

– नरेश आज तोपी घालपाक आयिल्लो. वेवस्थीत कायलोळ्यो सोडून कटायलो.

– आज कथा बरोवन सोंपली. वाचपाखातीर 'अबक' ह्या समिक्षकाकडेन दिली.

❒❒❒

– चार दीस नुस्तें ना. पोटांत 'गाज' जाला.

– व्हिटमनाचें 'लिव्हज् ऑफ ग्रास' हें पुस्तक वाचूंक हाडिल्लें. पोटलो कसो दाट ग्रंथ. थोडीं पानां चाळ्ळीं, तकलेवेल्यान! एकूच समाधान. अमक्याली कविता व्हिटमनाभाशेन अशें तड्डक खंयच्याय कविता शिबिराक फोडूंक मेळ्ळें.

– संजय मेळिल्लो. पूण बायल वांगडा आसतकच तो हडकिना. लग्न जाल्ल्याक हो सुमंस्कृत मनीस असो विचित्र कित्याक वागता, हें कुवाडें मात नां सुटपासारकें.

– समिक्षकान म्हजे कथेचेर पाल्हाळ कसो उपदेश बरोवन दिला. कथेची समिक्षाच कादंबरायेदी. कथेची शैली, आशय, धाटणी, कथाकाराचो पिंड, पात्रांचो आवांठ.... पाड पडूं! कानाक पीळ. केन्नाच बरोवप ना!

– कुंडय सणसणीत कुल्ल्यो मेळ्ळयो. खावन पळेत जाल्यार पोक्यो. कांय मनीसूय अशेच आसतात. भायल्यान भपको व्हडलो, भितर कांय ना.

– 'अज्ञानी तो, जो स्वताक शाणो समजता; ज्ञानी तो, जो स्वताक मूर्ख समजता' आयचो मुविचार घुस्पागोंदळाचो. हांव कोण तर? म्हजो बॉस खंयचे कातेगोरींत पडटा?

– आनंदाचो बापूय भायर पडलो, म्हूण ताका जाप दिवन आयलों. अशा वेळार कशें वागचें कांयच समजना. गणपती कसो बसलों आनी आयलों.



– वाज येता. उबगण. कारणाभायर. सगळोच व्हॅक्यूम आयचो दीस सुको कसो गेलो.



– कामिल बाहरीन सावन आयला. ताच्या बंडलांक शीम-मेर ना. आपूण बोटीर आसतां, अशें तो सांगता. बोटीर आसतना खंय एकदां तांकां एक व्हडलें नुस्तें मेळ्ळें. ताची गाबोळी तोंडाक लावन खंय ते १५ दीस जेवले. हाका अतिताय म्हणप समा न्हय. ही ताच्याकूय व्हडली फटास.

– रवी शास्त्रीन आज विटयलें. टॅस्ट मॅचीक खेळटा तसो 'कुटूकुटू' वन-डेक खेळ्ळो.

– हवामान बरें ना. तकली उसळटा. काडामोड जाल्या.



– बसीचो प्रवास म्हळ्यार दगदग. बसींतल्यान प्रवास केल्यार योगासनां करपाची गरज ना. कुडीच्या सगळ्या अवयवांक जाय, ताचेपरसूय चड व्यायाम घडटा.

– रशियेन आनीक एक उपगिरो अंतराळांत सोडलो. अंतराळांत शेंकड्यांनी उपगिरें घुंवतात आसतले, चणे कशे! एकामेकांक आपटनात जाल्यार पुरो रे सायबा!

– कला अकादमींत परवीन सुलतानाचो यमन आयकलो. स्वर-रंग-शब्द हांचें एकामेकांकडेन कसलें नातें आसता, कोण जाणा! यमनाचे सूर काळजांत गेले



आनी तांचें रुपांतर उतरांनी जावन एक कविता जल्म घेवपाक लागली. पूण सावचीत जावन कविता थंयच 'सप्रेस' केली. बरोवप ना म्हूण प्रतिज्ञा केल्या, न्हय ?!



– आज गोंय बंद. दीसभर लोळून काडलो. काम कांयच नाशिल्ल्यान अजीर्ण जालें.



– आयजूय बंद. वा! सासणाचे बंद आसूंक जाय. गोंय न्हय, जग लेगीत बंद जाल्यार जावं! एक तारकेक मात उकतें आसूंक जाय, पगार हाडूंक वचूंक नाका?





# मोग आनी गिन्यान

मनशाचे कुडींत आसात दोन यंत्रां. एक तकली आनी दुसरें काळीज. तकलेंतलें उतावीळ मन एकसारकें धांवत आसता. ताका हेडूंक आवडटा. नाचूंक मानवता. इत्सांचो सोरो पिवन धुंद जावपाक ताका आवडटा. तें ऑर्डरी सोडीत आसता आनी ताच्या हुकमांचो पाळो करपाक हांव 'मनोरंजन' अशें म्हणटां. काळीज चडशे कांयच मागिना. ताका मागपाची गरजूच आसना. ताच्यांत भरिल्लो आसता नितळ-निवळ आनी शुध्द मोग. तो दिवपा-घेवपांतूच ताका भारी धादोसकाय जाता.

कवटेक प्रस्न विचारपाक आवडटा. भोंवतणी कितेंय घडलें म्हणटकच कितें? कित्याक? कोण? कशें? असल्यो उचापती आनी धवळे, वासपुशो करपाखातीर मन एकसारकें उचांबळ जाल्लें आसता. सोबीत निळें मळब पळेतकच मनाक प्रस्न पडटा, तें निळें कित्याक? ताच्यो जापो सोदपाखातीर मागीर तें विज्ञानाचे साणीर घश्टत रावता. काळीज मात नितळ निळें मळब पळेतकच हांसता, वा! आनी तें धादोसभरीत जावन नाचूंक लागता. काळीज नाचतकच मन विरगळटा. आनी एके आगळे वेगळे तृप्तीचे तरंग कुडीच्या नसांनसांतल्यान सळसळून वतात.

मनासारके तर्क करप काळजाक खबर ना. ताची भासूच वेगळी. खंयचेय भाशेंत अणकारूंक जायना अशी. एका काळजाचीं उतरां दुसऱ्या काळजाक सहज समजुचीं अशी ताची भास! ताचें संगीत गोड! काळजांतल्या नादाचो, षड्जाचो अणभव घेवपाखातीर म्हाका संगिताचो व्हडलो आचार्य वा जाणकार जावपाचीय गरज ना.

तकलेक आवडटा गिन्यान आनी काळजाक जाय आसता फकत मोग. मन आनी अंतस्कर्ण हांचेमदलें द्वंद्व एकसारकें दरेक स्वासा कणकणीं चालूच आसता. तीं म्हाका मदीं घालतात आनी दोनूय वटांनी पखवाज कसो बडयतात. फुटबॉल कसो गुड्डायतात. हांव असो घुस्मट्टां. असहाय जावन यत्न करतां. तांचे तागडेची



संतुळा सारकी उरची देखून.

मोग आसता पूण गिन्यान नासता तेन्ना कितें घडटा? खूब खूब वर्सां पयलींची गजाल. इटलीची राजधानी रोमांत एकदां प्लेगाची धाम आयली. लोक हुंदरांसारके पटापट मरूंक लागले. एका धर्मगुरूक तांची काकळूत आयली. ताणें त्या रोगाविशीं थोडेंभोव वाचन केल्लें आनी तो रोग जावचो न्हय म्हूण कसली जतनाय घेवंक जाय, हें सांगपाखातीर सगल्या लोकांक एकठांय आपयले आनी ते बसकेंत रोगाची आनी ताचेवेल्या उपायांची विस्तारान म्हायती दिली. पूण त्या जमावांत निकतोच रोग जाल्ले कांय पिडेस्त आशिल्ले आनी तांचेवरवीं ती पिडा निरोगी लोकांकूय सहज जाली आनी धाम सगल्याक बेगीन पातळ्ळी. त्या सभाग्याक बाब्रड्याक मोग आशिल्लो, पूण पुराय गिन्यान नाशिल्लें म्हूण अशें घडलें!

दुसऱ्या म्हाझुजांत जपानाचीं हिरोशिमा आनी नागासकी हीं सोबीत शारां अणुबाँब पडिल्ल्यान पुराय भाजून गोबोर जालीं. विज्ञानाचें उपाट गिन्यान आशिल्लें, पूण मनीसपणाचो मोग, कळवळो नाशिल्लो, म्हूण अशें जालें.

दुख्खाचो इंगळो तकलेचे गावयेन धरलो जाल्यार ताची खरसाण उणी जायना पूण तो जर काळजाचे चिमटेन अचळय धरलो जाल्यार मात ताची खरसाण उणी जाता; अशें कोण करूंक शकता? मोग आनी गिन्यान हांची फाव ती उदरगत जाल्लो आनी तांचेमदीं संतुळा सादिल्लो मनीस असले प्रसंग सहज हाताळटा आनी खऱ्या अर्थान सुखाचो अणभव घेता!

❑❑❑

# जाणकार - ३

इतलीं वर्सां जाणकार त्या जुंव्यार राविल्लो, पूण कोणेंच ताका व्हडलीशी किंमत दिली ना. पूण आयज मात ताका निरोप दिवपाक पुराय वाठार लोटिल्लो. जाणकारान आपलें सामान तारवार धाडून दिलें. कोण ताका हार घालता, कोण पांयां पडटा, कोण प्रस्न विचारता; थोडे प्रस्न विचारूंक जाय म्हूण विचारतात, कांय जाण बाकीचे विचारतात म्हूण आपूण विचारतात, साप थोडे जाणून घेवचेल्या हेतान विचारतात. पूण जाणकार मात 'झेल' कसो थंडसाणेन, कसलोच भेद बाळगिनासतना सगळ्यांक जापो दीत आसा. एकल्यान ताका विचारलें - **जिवितांत विनोदाची सुवात कितें?** जाणकारान सांगलें - दुख्ख, क्लेश, पिडणूक, पुलितीक हांकां लागून जिवीत करपत आसता. ना सुटाव्यो जावपी ह्यो समस्या 'हांसोवन' उडोवपाखातीर एकूच वखद आसता, तें म्हळ्यार विनोद. जिविताकडेन विनोदी आनी खेळकर वृत्तीन पळेल्यार तें ल्हव जाता. विनोद समजप हेंय सोपें न्हय. बहुश्रुतताय नासल्यार आनी वाचन उणें आसल्यार 'इंटेलेक्चुअल' विनोद कळना. बुध्दिमत्तेचो विकास जातलो जाल्यार विनोद जाय.

एका विद्यार्थ्यान विचारलें - **अभ्यासाविशीं** सांगशात?

जाणकारान म्हळें - शिकपाची प्रक्रिया निमण्या स्वासामेरेन चलता. देखून विद्यार्थीपण आपणावन नदर सदांच अभ्यासू दवरची. चिंतन, वाचन आनी खोल अभ्यास नासल्यार लेखक कालांतरान सोंपता. उलोवप्याचो अभ्यास उणावल्यार ताच्या पोक्या भाशणांक लोक विट्टात. संगीतकारान रियाझ उणो केल्यार ताचें बेसूर जाल्लें संगीत भुरगो लेगीत पारखिता. खेळगड्याक सराव जाय. पावलाकणकणी 'शिकपासारके' खूब आसा. 'म्हाका शिकूंक जाय म्हूण सर्वांगाक उजो पेटूंक जाय' तेन्नाच अभ्यास घडटा. अभ्यासाखातीर पासियेंस जाय आनी साधकावरी खोलायेंत वचपाची उत्कट इत्सा आनी निश्ठा जाय.

**'तुस्त आनी टिका'**, **'तोखणाय आनी निंदा'** हेविशीं जाणून घेवपाची इत्सा एका 'विचारवंत' लेखकान उक्तायली. जाणकारान ताका संस्कृत भाशेतलें



सुभाषित सांगलें आनी ताचो अर्थ विस्कटायलो. 'एकदां एका गाढवाक उंटान म्हळें, तू कितलें सुंदर! गाढवान उंटाक म्हळें, तूं कितलें गोड गायता?' आयज भोंवतणीं हेंच दिसून येता. एकामेकाची फकत तुस्त करून एकामेकाक पोशेवप. तुस्त करची पूण जेवणांतल्या मिठावरी! चड केल्यार मनीस शेफारता, ताका नशा चडटा; कांयच अपुर्बाय केलीना जाल्यार त्या कलाकाराक निर्शेणी येवन ताची सर्जनशीलतायूच आटचेली भिरांत आसता. तोखणाय करची चार चौगांमदें; चूक दाखोवपाची आसल्यार एकलो आसतना नमळायेन सागचें.

एका बुध्दीवाद्यान कायलोळी सोडली– **देवाविशीं** सांग.

जाणकार उलयलो: ह्या प्रस्नाची जाप उतरांनी दिवप अशक्य! 'डिहायड्रेशन' जावन उदकाखातीर वळवळटकच दोन थेंबे ताळ्यार पडटकच जीव थाऱ्यार पडटा, तेन्ना तान म्हळ्यार कितें? उदक म्हळ्यार कितें? तान भागप म्हळ्यार कितें? असल्या व्याख्यांक अर्थ उरना. शाण्या, देवाक बुध्दीचे साणीर निजून पळोवं नाका. ताचो अणभव काळजांत जाता, थंय तानसोर लागतकच!!

घर्रां करून तारवाचो भोंगो वाजत रावलो. जाणकारान सावचीत जावन आपलें सामान सांभाळिलें. '**आयचे संवसारांतले परिस्थितीचेर भाश्य करशीत?**' एका जाणटेल्यान विनंती केली. बोटवो खांक्याक लावन जाणकार मुमुरख्यांनीच हांसलो. ताणें म्हळें – एक बस अकस्मात बंद पडली. भितल्ले पॅसेंजर आपल्या मुखावेलो सीट आवाशिवा करून धुकलीत आसात. बस कशी सुरू जातली? बसींत फकत कल्लोळ मात वाडटलो.

आयचो संवसार असो बसकण मारून 'स्टेटस को' आवतिकायेंत थिरावला. आमी भितल्ले लोक एकामेकाकूच धुकलीत आसात! भितल्लो अच्छेव वाडत आसा. भायल्यान कोणें तरी दिका दाखोवपी धसको दिलेबगर ही संवसाराची गाडी कशी धुकतली?

जाणकाराच्या जडगुळो उतरांनी सगळ्यांचे मेंदू भेरेवंक लागिल्ले. धर्तरी लेगीत दुखावत काय, म्हूण अचळय पावलां घालीत शांतपणान तारवावटेन चलपी त्या असामान्य व्यक्तीत्वाकडेन सगळे ल्हेंवटे कशे पळेत रावले.

❒❒❒

# हा ऽ हा ऽऽ हा !

तरणाटो एके तरेन हांसता, बायल एके तरेन हांसता, ल्हान भुरगें वेगळेच शैलीन हांसता. ल्हान भुरगें वेगळेच शैलीन हांसता. ल्हान भुरगें जेन्ना हांसता, तेन्ना ताका देव हांसयता अशें आमी म्हणटात. कांय जाण हांसता आसतना अशे आवाज काडटात की ते रडटा म्हणुनूय कळना.

हांसपाचे वेगवेगळे ढंग आनी प्रकार पुर्विल्ल्या साहित्यांत दिसून येतात. रावणाचें हांसप पाजी. राम गंभीर हांसतालो. कुंभकर्णाचें हांसप म्हळ्यार कुपांचो गडगड. श्रीकृष्ण मिश्कील हांसतालो, जाल्यार दुर्योधनाचें हास्य सदांच विकट. तात्पर्य- हांसप हें भौरंगी आनी भौढंगी आसता. गोड, कोडू, आंबट आनी सुके अशेंय हास्याचे प्रकार आसात. दूरदर्शनाचेर खबरो सांगपी, खबरो सांगून जातकच जें हास्य दिता, तें हांसप सुकें आनी निर्जीव.

हांसपाक मजलेय आसतात. हांसप हें तळमजल्यासावन सात मजल्यांमेरेन आसता. म्हजो एक इश्ट आसा. सदांच हांसतमुख. मोटया मोटयान किटकिट्टा आसतना वा खळखळून हांसतना ताचें शरीर कळसो कशें हालता, धोलता आनी त्या वेळार ताचे सोबीत दांत लिकलिकतात. अशें मधुर हास्य आसप आनी दुसऱ्यांकूय ताचो आनंद दिवप ही खरें म्हळ्यार उपजत देण.

हांसून हांसून तांबडो जावपी म्हजो एक इश्ट आसा. ताका थोडो भोव ज्योतिशशास्त्राचोय अभ्यास आसा. ताणें म्हाका सांगलें- मनशाक बुध हो गिरो हांसपाची प्रेरणा दिता. कन्या राशींतलो बुध दुसऱ्या स्थानांत आसल्यार मनशाक हांसून उलोवपाची संवय आसता.

ज्योतिशाचो आनी हांसपाचो संबंद कितें? हांव सांगूंक शकना. पूण एक गजाल मात खरी - कितलेशेच लोक जिवितांत सामक्या थोड्या प्रसंगां वेळार हांसतात. न्यायमूर्ती छगला हांणी आपजिणेत म्हळां तेप्रमाण महंमद अली जिना आयुश्यांत सहसा केन्नाच हांसलोना. कोंकणी साहित्यीक सदांच गंभीर. खोल खोल गहन चिंतनांचो वेध घेवपांत ते गुल्ल आसात, अशें तांकां पळेतकच दिसुंये.

ऑफिसांत एक दीस कामात मग्न आसतना वांगड्यान म्हळें- 'तूं हरशीं विनोदी. पूण पळोवपाक गंभीर दिसता. एक इंग्लीश म्हण आसा- 'Your dress is not complete unless you wear a smile.' अर्थः 'मुखामळार हांसो हाडलेबगर तुजो भेस पुराय जायना'. ताणे दिल्लो तो सुविचार हांवें टेबल कॅलेंडराचेर बरयलो; निदान तो पळोवन तरी हांसपाची याद जावची म्हूण.

हांसपाक पयशे पडनात. पूण हांसपाचो परिणाम खूब बरो जाता. हांसतमुख चेऱ्याचो मनीस सदांच आमच्या उगडासांत उरता. एका विचारवंतान म्हळां, 'कपलाक आटयो घालपाक चड स्नायू लागतात. पूण हांसपाक मात त्या मानान तोंडाचे सामके थोडे स्नायू लागतात. देखून हांस पापया!'.

फाटल्या पावसाळ्यांतली गजाल. हांव फोंड्यां बसींतल्यान देंवलों, तेन्ना पावस शिरशिरतालो. म्हजेसारके सत्री नाशिल्ले लोक स्टँडावेल्या दुकानांवटेन धांवत सुटले. आमच्या चोम्यांत एक कुटूंब आशिल्लें. दादलो, ताची घरकान्न आनी निकतोच मूज जाल्लो (तकलेचें तबलें केल्लो) गुटगुटीत चणो कसो तांचो चलो. दोनूय हातांनी बॅगां घेवन धांवतामतना बापूय 'सर् धाऽऽ' करून रस्त्यार उदारो पडलो. तो रोखडोच उठलो आनी दुकानात आयलो. ताचो चलो मात, सेगीत पांच मिणटां मोटयामोटयान हांसतालो. बापूय पडलो ही ताका मजा कशी दिसली. ताचो तो सात मजल्यांपरस चड असो हांसपाचो खतखतो पळेतनाच म्हजी नदर बापायचेर पडली. ताची आर्वातिकाय विचित्र जाल्ली. हांसप आनी रडप हांकां वेगळावपी एके मानसिक शिमेचेर हांव थिरावलों. आपल्याक लज केली म्हूण बापूय घरा वचून पुताची करड काडटलो असो विचार म्हजे तकलेंत आयलो. 'हा ऽ हा ऽ हा ऽ हा !' करून हांसपी भुरग्याक पळेतना खलील जिब्रानाच्या विचाराची एक कीट मनात उसळ्ळी - 'तुजें सुख हें तुजें पांगरूण घेतिल्लें दुख्ख!'

❑❑❑



# सुरांच्या संवसारांत

गोड गोड गोड गळ्यान गावपी संगीतमय गोंयांत जल्माक येवप हें एक भाग्यूच. तातूंत आनीक संगिताचें दायज आशिल्ल्या कुटुंबांत जल्माक येवप ही तर हांव म्हजेर आशिल्ली ईश्वरी कृपाच समजतां. साहित्याच्या विश्वांत बौध्दिक तृप्ती जातकच काळजांतलो 'व्हॅक्यूम' भरून काडपाखातीर हांव संगीत आयकतां. गायनांतल्या वा वादनांतल्या सुरांच्यो काळजावेल्यो 'जखमो' इतल्यो नाजूक आसतात की तांच्यो खोसदिण्यो मावो अंतस्कर्णाक सासणाचो आनंद दीत रावतात. संगितांत एक उपाट शक्त आसता- काळीज ओलें करपाची.

कांय वर्सा आदीं एका नेमाळ्यांत तलत महमूदाच्या कांय पदांची वळेरी वाचिल्ल्याचो उगडास जाता. ते वेळेरेपोंदा बरयल्लें, हीं पदां रातच्या १० वरांचेर आयकल्यार बरी न्हीद लागतली. पूण तलताचें खंयचेंय पद खंयच्याय वेळार आयकल्यार एक विलक्षण धुंदी येता. कारण ताच्या आवाजांत नकसूद कंपनां जाणवतात जीं कानाक खुबूच ग़ोड लागतात. उदवातीचो धुंवर जसो ल्हवपीकपणान हवेंत विरत वचचो, तेचपरी पं. जसराजांच्या भक्तीमय शास्त्रीय गायनांतले स्वर काळीज गदगद करून सोडटात. निर्शेवणी येतकच कांय भावगितां, भक्तीगितां, भजनां वा गझल आयकतच जीव हलको-हलको जाता आनी मरगळ पयस जाता.

पं. हरीप्रसाद चौरासियाची बांसरी आयकुपाचो योग कला अकादमींत आयलो. आयकुपी सगल्या 'कानसेनांक' पंडीतजींनी स्वरांचे वेगळेच दुनियेंत व्हेल्लें. मदींच तबलें मातशें बेसूर लागलें म्हूण तबलजी पोपटकार हाणें तें थापटिलें आनी हाथोडेन धाडायलें. 'आपकी बांसुरीकी ऐसी सॅट करने की समस्या नहीं है!' ताणें विनोदान पंडीतजीक म्हळें. 'इसीलिए तो यह प्राकृतिक वाद्य भगवान श्रीकृष्ण ने बजाया!' पंडीतजींचे हे समर्पक जापेन ताळयांचो कडकडाट जालो.

शब्द आनी सूर हांचो सोबीत मेळ म्हळ्यार एक अप्रूप आविश्कार. बाकीबाब, रमेश वेळुस्कार, उल्हास पै रायकार हांच्या कवितांनी नाद दिसून येतात. कवी वा साहित्यीक हांकां संगिताची जाण आसल्यार ताचे साहित्यकृतींकय

एक खाशेलें बळगें येता. रवींद्रनाथ टागोरांनी आपल्या कांय कवितांक स्वता शास्त्रीय संगिताचेर आदारीत चाली बसयल्यो. तांचें 'रवींद्र संगीत' बंगालांत अज्रंवर जावन उरलां.

संगितांतली लय ही स्वरांचे मांडावळीखातीर घडयाळीचें काम करता. लय ही खूब म्हत्वाची गजाल. स्वताभोंवतणीं घुंवत सुर्याभोंवतणीं घुंवपी धर्तरेकूच एक सोबीत लय आसा. आमकां जिवीत दवरपी कुडींतल्या चैतन्याक, काळजाच्या ठोक्यांक, रगताच्या घोळपाक, स्वासाच्या तरंगांक एक खाशेली लय आसा. 'लय मातशी हालल्यार व्हड प्रलय जावं येता'. अशें एका संगीतकारान म्हळां.

वाद्यसंगीत हें वनस्पतीचे वाडीखातीर पोशक आसता. असो सोद हालींच एका भारतीय शास्त्रज्ञान लायला अशें वाचलें. झाडांपेडांचे वाडीचेर संगीत इतलें प्रभावी थारूं येता जाल्यार मनशांचेर ताचो जादवासारको कितलो परिणाम जावं येता हाची कल्पनाच करूंक जायना.

हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगिताची बसकाच मुळांत अध्यात्मीक. ख्याल गायकींतली दरेक चीज पर्मात्म्याकूच होरायता. काळजाच्या कानांनी आयकत जाल्यार शास्त्रीय संगिताच्या दर्याचे खोलायेचो अणभव येता.

संगिताविशींचे एके काणयेचो उगडास जालो. एका राजाच्या दरबारांत एक कसबी गवय आशिल्लो. ताचें गोड गायन आयकतना एक दीस राजान् ताका प्रस्न केलो- 'तूं इतलो सुंदर गायता, जाल्यार तुजो गुरू कितलें मधुर गायता आसतलो? म्हाका तुज्या गुरूचें गायन आयकूंक मेळत?' गवयान सांगलें, तो आपले पर्णकुटींत फांत्यापारार एकलोच रियाझ करता, आनी आपलें गायन कोणेंच आयकल्लें ताका आवडना'. राजाची उमळशीक चड वाडली. दुसऱ्या दिसा फांत्यापारार ताणें पर्णकुटीभायर लिपून ह्या गुरूवर्याचें गायन आयकलें. गुरून आळयल्ल्या स्वरांच्या पावित्र्यान राजा भारावन गेलो. गायन सोंपतकच ताणें भितर वचून गुरूजीक विचारलें- 'तुमचे स्वर म्हज्या कानार पडले आनी हांवें एक वेगळीच खोस अणभवली. तुमच्या शिश्याच्या गायनांत असली शुध्दताय आनी गोडसाण कित्याक ना!' गुरूजीन हांसत म्हळें- 'राजन, तो तुमचेखातीर गायता आनी हांव पुराय संवसार निर्मितल्या राजाक होरावपाखातीर गायतां.....

□□□



# खरो गोंयकार

म्हजें नांव बुदवंत गोंयकार. म्हज्या आडनांवांत ‘कार’ आसा. पूण म्हजेकडेन कार (गाडी) ना. म्हजे कुडीच्या रोमारोमांत, नसानसांत मात एक ‘कार’ भरला; तो म्हळ्यार अहंकार. ताचो म्हाका अभिमान आसा.

सुर्योदय जावचे पयलीं हांव केन्नाच उठना. पोट सुटलां म्हूण दोतोरान म्हाका फांतोडेर चलपाक सांगिल्लें. पूण सुणीं फाटींक लागतात देखून हांवें तेंय बंद केलें.

म्हजें एक कपडयांचें दुकान आसा. तें हांव इकरांक उकतें करतां, बारा वरांचेर धांपतां. परत सांजेच्या चारांक उकतें करतां आनी सातांक बंद करतां. न्हिदप हो म्हजो छंद.

उलोवपाची म्हाका खूब खाज. पिताम येतकच सुट्टा ताचेपरस चड. हांव खंयच्याय विशयाचेर उलयतां. शिक्षणाचेर, विज्ञानाचेर, संगिताचेर, ज्योतिशाचेर, अध्यात्माचेर, साहित्याचेर, समाजकारणाचेर, राजकारणाचेर... राजकारणाचो म्हजो आवाठ खूब व्हड. ग्रामपंचायत, गोंय, दिल्ली, मेजर, बुश, गॉर्बाशेव, युनो, सार्क, आखाती झूज असल्या कसल्याय पुलितिकाचेर हांव घडघडीत उलोवंक शकतां, तार- मध्य-मंद्र तिनूय सप्तकांनी सहज आवर्तनां मारपी कसबी गवयाभाशेन.

दिसाक हांव सरासरीं ६,४०० शब्द उलयतां. तातूंतले सुमार १,२०० फकत नुस्त्याचेर.

म्हाका एकूच चिरंजीव. बोर्डाचो लायफ मेंबर. मॅट्रिकेक गणितांत गुठल्यो खायत आसा. सद्या आयटीआय करता. अभ्यासांत नासलो तरी उलोवपाक तो खूब हुशार. ताका हांवें सांगलें, ‘तुजे येदो आसतना नेहरू आठ- आठ वरां अभ्यास करतालो.’ तो म्हाका म्हणटा- ‘आनी तुजेयेदो आसतना नेहरू दुकान घालून सिगारां ओडिनासलो.’

राजकारणांत खंयची गजाल रिगत आनी खंयचे गजालींत राजकारण रिगत हें सांगप भोव कठीण. हालीं तेंपार सगलेच ज्योतिशी राजकारणाचीं भाकितां करपाक लागल्यात. देखून एका नामनेच्या ज्योतिशाक म्हज्या चल्याची कुंडली दाखयली. ताणें सांगलां–'अश्टमांतलो गुरू बरोच पावरफूल आशिल्ल्यान तुजो चलो राजकारणांत पडल्यार पांच वर्सांभितर गोंयच्या मळार इतिहासीक क्रांती घडोवन हाडटलो'. म्हजें सगलें काळींग पुतां नांवार करून राजकारणांत पडपाखातीर हांव ताका उपदेश करीत आसां – पीकपीक करपी तांबड्या दिव्याची गाडी एक दीस तरी म्हज्या घरांत येतली हीं सपनां रंगयत!

हांव कोणाकूच भिंयेना, सोडून दोगांक –

१. घरकान्न: धा हजारांची सोर्त लागतकच आनंद जावपाचो सोडून म्हाका सांगनासतना एक रुपया मोडलोच कसो, तें पयलीं सांग' अशें म्हणपी म्हजे घरकान्नीक हांव सदांच शरणांगत आसतां.

२. मरण: मरणाच्या उगडासानूच म्हज्या काळजांत 'भुपँगपँग' जाता. देवाक मानपी तो आस्तिक, देवाक न्हयकारपी तो नास्तिक आनी देवाचो अणभव घेवपी तो ज्ञानी. हांव खंयचेच कातेगोरींत मोडना. पूण खंयचोय सांकव वा पूल क्रॉस करचे पयलीं हांव खीणभर तेत्तिसूय कोटी देवांक होरायतां– पाराथ्थां आनी मागीर 'सूंऽऽ' करून बाण कशी स्कूटर सोडटां. कारण म्हाका भंय दिसता पूल मोडत देखून. कारण म्हाका जियेवंक जाय – न्हिदपाखातीर.

❐❐❐



# मदाचें दुयेंस

खूब वर्सां पयलींची गजाल. लुकमा नांवाचो एक नामनेचो हकीम आशिल्लो. संवसारभरचे लोक ताचेकडेन वैजकीचो सल्लो घेवपाखातीर येताले. जाणटो जावन हांथरुणार पडटकच लुकमानाक मरणाचो खूब भंय दिसपाक लागलो. देखून यमाक फटोवपाखातीर ताणें आपलेसारकेच सात हुबेहूब पुतळे तयार करून घेतले आनी मदीं आपूण न्हिदलो. एक दीस यम भितर सरलो. एकाचसारके आठ लुकमा पळोवन तो गोंदळ्ळो. ताणें म्हळें- 'लुकमान, सगलें बेस बरें केलें तुवें म्हाका फटोवपाखातीर. पूण एक म्हत्वाची गजाल करपाक तूं विसरलो.' पुतळ्यांमदलो जितो लुकमान एकदम उठलो आनी ताणें विचारलें- 'किदें तें?' यमान म्हळें 'हेंच तें, चल यो!' यम फटवलोना. ताणें लुकमानाची फ्राकेज सारकी धरली आनी ताका तो घेवन गेलो.

आपलेकडल्यान पूर्णत्वाची गजाल घडोवपाखातीर किदें उणें पडलां, हें जाणून घेवपाखातीर लुकमानाचो अहंकार वयर आयलो आनी तो फटवलो.

अहंकार, गर्व, मद, तोरो, ताठो, अभिमान, मिजास, मोटेपण हे सगले एकाच कुटुंबांतले. कलाकार, साहित्यीक, गायक, विद्वान, विज्ञानीक तो कोणूय जावं, मनशाक एकदां अहंकारांची नशा चडली की तो पुराय सोंपता; तो आपलो विनय-विवेक वगडावन बसता. ताका एके तरेचें कुड्डेपण येता. तो हवेंतल्यान चलता आनी ताका फुडले मनीस दिसचनात. अहंकाराचो सोरो कालांतरान देंवलो म्हणटकच मागीर त्या मनशाची गत कोसळिल्ल्या विमानावरी वा 'फूस्स' करून वारो गेल्ल्या ब्रोमाड्यावरी जाता. पश्चातापाक लेगीत तेन्ना वेळ आसना.

रुपाचो, विद्येचो, मान-प्रतिश्ठेचो, बळाचो, सत्तेचो अशे विंगड विंगड तरांचे अहंकार मनशाक जावं येतात. सिकंदर राजा अहंकारान बेभान जाल्लो. 'सगळें जिखलें, आतां आनीक किदें उरलां?' अशे चिंतून तो रडलो लेगीत. पूण मरणाचे घडयेक ताणें सांगलें खंय- म्हाका पुरतना म्हजे दोनूय हात भायर दवरात; लोकांक कळचे म्हूण, हांव वता आसतना कांयच घेवन गेलों ना म्हूण.'



कसल्याय सुवाळ्याचो आल्बम आयलो रे आयलो, आमी सगळ्यांत पयलीं स्वताचो फोटो सोदतात. हें म्हजें, हें हांवें केलां, म्हजेबगर हे जावचें नासलें... किदें अहंकाराचो तरतर हो!

बाकीबाबान एके मराठी कवितेंत म्हळां- जाचें हांवपण पिकिल्ल्या फळावरी गळून पडलां, ताकाच जिवीत खऱ्या अर्थान कळ्ळां. कांय जाण तें गळून पडलां अशें भासोवपाचो आव हाडटात तेन्ना तांची आवतिकाय जाता ती विचित्रूच! रामकृष्ण परमहंस आपल्यांतलो अहंकार वचचो म्हूण रस्त्यावेली हळशीक झाडटालो खंय. एक संवसारीक नामनेचो गणीततज्ञ एक सादी कापोत घालून सायकलीवेल्यान वतना आपणें केंब्रीज विद्यापिठांत पळेलो तेन्ना ताच्या साद्यापणामुखार नतमस्तक जावचें कशें दिसलें अशें भारतीय शास्त्रज्ञ जयंत नारळीकर बरयता.

म्हज्या एका इश्टाक हालींच एक पुरस्कार मेळ्ळा म्हूण हांवें ताची काळजांतल्यान तोखणाय केली. पूण तो ओगीच रावलो. 'भंय दिसता, हो पुरस्कार तकलेक चडत म्हूण'. ताणें उलयतना फुडें म्हळें- राव रे, तुका भंय दिसना अहंकाराचो?

हांवें ताका सांगलें- फाटल्या दिसांनी मुंबय एक परिक्षा दिवपाक गेल्लों. ठाण्याक मामागेर गॅलरींतल्यान एक जिवाणें सळसळत वतना हांवें पळेलें. आठ दीस थंय रांवलों खरो, पूण खातना, जेवतना, उठ्ठना न्हिदतना तें जिवाणें येत म्हूण दुगदूग उरली. अशेच तरेन अहंकाराची विखाळ नागीण मनांत उडकी मारीत देखून जाणविकाय आनी सादूरकाय बाळगप भोव गरजेचें. म्हजें उदाहरण इश्टाक मानवलें, तें ताच्या लिकलिकपी दोळ्यांनी उकतायलें.




❑❑❑



# एप्रील फूल

वर्साचो चड करून दरेक दीस हो कसलो ना कसलो तरी दीस म्हूण मनोवपाची एक चाल जाल्या, देखीक- तरणाट्यांचो दीस, राष्ट्रीय सुरक्षा दीस, संवसारीक बायलां दीस, राष्ट्रीय विज्ञान दीस आदी. दरेका मळावेलो अमूक एक दीस मोवपाफाटलें एक खाशेलें प्रयोजन आसता आनी त्या मळार लोकांचें लक्ष वेधून घेवचें असोय ताचो उद्देश आसता अशें थारोवन दिल्लें आसता. हे चडशे दीस यंत्रीकपणान भोगावळी कशो मनोवप जाता.

पूण आयचो हो दीस असो मनोवचो म्हूण कसलीच सरकारी वा हेर घोशणा जायना. पूण संवसारभरचे चडशे लोक एप्रील फुला दिसा आपखोशयेन वांटो घेतात. सुशिक्षीत, अशिक्षीत, दादले-बायलो, जाणटे-नेणटे, भुरगीं कसलोच भेदभाव वा अंतर दवरिनासतना एकामेकांक फटयतात आनी एप्रील फुलाची मजा लुटतात.

आमी कितल्योशोच गजाली कित्याखातीर करच्यो हें खबर नासतना करतात. एप्रील फुलाचीय तीच गत. दुसऱ्याक फूल करचे पयलीं ह्या दिसाचो थोडो भोव इतिहास जाणून घेवप भोव गरजेचें.

फकाणांनी एकामेकांक फटोवपाची एप्रील फुलाची प्रथा मूळची अस्तंती राष्ट्रांतली. हे प्रथेची सुरवात केन्ना आनी कशी जाली हें निश्चीतपणान सांगप कठीण. कांय लोक तिचो संबंद पुर्विल्ल्या रोमांतल्या व्हीनस आनी फॉर्चुना व्हिरिलीस ह्या देवतांच्या उत्सवांकडेन लायतात. ग्रॅगोरियन पंचांग १५६४ वर्सा आपणायतकच फ्रान्स देशांत ही प्रथा सुरू जाली आनी १६०० मेरेन ती सगलेकडेन पातळ्ळी अशें म्हणटात.

पुर्विल्ल्या रोमांतलो हिलेरिया आनी भारतांतली होळी ह्या उत्सवांकडेन एप्रील फुलाचें बरेंच साम्य आसा. होळी आनी हिलेरिया हांचेसारकोच हो प्रकार वसंत ऋतू येवपावेळार मनयतात. मॅक्सिकोंत २८ डिसेंबराक हो दीस मनयतात. त्या दिसा उश्णी घेतिल्ली वस्त परत न करपाची प्रथा थंय आसा. फटयिल्ल्या मनशाक

इंग्लंडांत आनी भारतांत 'एप्रील फूल', स्कॉटलँडांत 'एप्रील गॉक' आनी फ्रान्सांत 'फीश' म्हणटात. ब्रिटीशांनी भारतांत कितल्योशोच गजाली हाडल्यो. 'एप्रील फूल' ही तातूंतलीच एक गजाल.

एप्रील फूल आनंदाखातीर आनी मजेखातीर करतात. पूण एकेकदां तातूंतल्यान लचांडां उप्रासतात. पोरूंचीं गजाल. फोंडेंच्या एका ऑफिसांत गेटीवयल्या वॉचमनाक फोन आयलो की चोर ऑफिसांत भितर घुसल्यात. हे गजाली आदीं त्या वॉचमनाक दोन तीन 'एप्रील फूल' करपी फोन आयिल्ले. देखून ताणें हेय खेपे ही ऑफिसांतली गजाल कानामनार घेतली ना. पूण ऑफिसांत खऱ्यांनीच चोर आयिल्ले आनी ते कितलेशेच रोखड दुडू घेवन पळ्ळे. आयच्या ह्या दिसा असल्यो घडणुको आंगार येत म्हूण जण एकल्यान सादूर रावप भोव गरजेचें.

कांय वर्सांआदीं एका इश्टान एप्रिलाचे एक तारकेक आपलो साकरपुडो आसा म्हूण आमकां आमंत्रण दिलें. एप्रील फूल दीस आसून लेगीत घडये ताचो साकरपुडो खऱ्यांनीच आसत देखून आमी सगले चकचकीत न्हेसून गेले. पळयत जाल्यार ताणें आमकां सगल्यांक वेवस्थीत 'फूल' केल्ले आनी तो क्यांक.... क्यांक करून हांसत रावलो.

दर वर्सा कोणाकडल्यानूच एप्रील फूल करून घेवचो ना अशें हांव थरयतां आनी चडांत चड लोकांकडल्यान फटोवन घेतां. पोरूं वर्सा सकाळींफुडें उठ्ठनाच शेजारच्या मुन्नान येवन 'शर्टाक कितें लागलां पळय' अशें सांगून म्हाका एप्रील फूल केलो.

म्हाका मात आयच्या ह्या दिसा कोणाकूच मूर्ख (फूल) करचो अशें दिसना. कारण आमी सगले जाण वर्सूयभर सरकारी धोरणां, अर्थसंकल्प, कायदो वेवस्था, वेंचणुको आनी मतदान, मंत्री, आमदार, विंगड विंगड बुरखे पांगुरलेले दिग्गज हांचेकडल्यान नाईलाजान वा जाणुनबुजून मूर्ख थरत आसतात. तातूंत आनीक एक दीस हो मूर्खपणाचो खेळ करप म्हळ्यार सिनेमांत सिनेमा अणभवल्लेवरी म्हाका दिसता!

❑❑❑

# अकबर-बिरबल गोंयांत

गोंय हें उदेंतेकडलें रोम, धर्तरेवयलें नंदनवन अशें अकबरान जायतें आयकल्लें. गोंयांविशीं गोंयकाराविशीं आनी कोंकणीविशीं आनिकूय जाणून घेवपाची तांची इत्सा जाली. बिरबलान ताका अनाचें 'गोंयची अस्मिताय' हें पुस्तक वाचूंक दिलें. तें वाचून अकबर गोंयच्या मोगांत पडलो आनी ताका गोंयांत वचपाचे उत्फरके लागले. फुडें बिरबलान ताका अनाचेंच 'पणजी आतां म्हातारी जाल्या' हें पुस्तक दिलें. तें वाचता आसतनाच अकबराच्यान रावं नज जालें आनी ताणें भर पावसांत आपली 'मारुति' भायर काडली आनी बिरबलाक सांगलें, 'चलो, गोवा चलो!'

गोंयांत गोंयकारांनी तांचें स्वागत केलेंना. पूण उटंगाराच्या पावसान मात केलें. बेतीं फेरीबोट धक्याचेर गाडयांची लांबचे लांब लायन लागिल्ली पळोवन बिरबल निर्शेलो. आपूण VVIP म्हूण आपल्याक priority मेळटली ह्या हेतान ताणें गाडी सरळ फुडें काडली. इतल्यान दोग गाडयेकार गोंयकार ताचेर ताणशेले. 'कोण तूं फुडें वचपी? तुजेकडेन आय-कार्ड आसा?'

'आरे हांव बिरबल'.

'आमी बिरबलाक वळखनात. तेनालीरामाक जाल्यार वळखतात'.

'कशे?'

'टीव्हीचेर पळोवन'.

टीव्हीक प्रमाण मानपी गोंयकारांची बिरबलाक काकळूत दिसली आनी आपल्याक विसरपी टीव्हीवाल्यांची तिडक आयली. त्याच खिणाक ताचे नदरेक एक बार दिश्टी पडलें. पिकासांव घालोवपाक गोंयचें तीर्थ प्राशन करचें अशें ताका दिसलें. पूण ताकतिकेक लागून तांणी ती खर इत्सा चिड्डिली.

अर्द वरान गाडी सुटली. पावसाक लागून फेरीबोट ल्हव ल्हव चलताली. ताचें कारण बिरबलान एकल्याक विचारलें. बिरबलाक जाप मेळ्ळीं- 'पाणी कोंत्र है। थोडा पासिंयेंस लो।'... निर्जाप जावन बिरबलान अकबराच्या तोंडावटेन

पळेलें. फेंसाळपी ल्हारांचेर नदर थिरावन अकबर चिंतनांत गुल्ल जाल्लो. राजन किदें चिंततात तुमी?'

'अनान म्हळां गोंयकार हो तिरसुवाद प्राणी. तिरसुवाद म्हळ्यार किदें?'

'राजा सामकें सोंपें. बुध्दिबळांतल्या उंटासारको तिरपे बुध्दीन चलपी'. बिरबलाची जाप म्हळ्यार मुदयेवेलें थीक. पूण तरी लेगीत राजाचें समाधान जालें ना.

करतां करता मारुति फोंडयां पावली. थंयच्यान फुडें वचप कठीण जाल्लें. सगल्या शाराक हुंवार आयिल्लो.

'बिरबल आमी तारूंच हाडल्यार बरें आशिल्लें.'

'राजा, हांगा खूब बरें. मडगांवची बुडटी पळेल्यार तुमी म्हणटले हॅलिकॉप्टरूच हाडपाचें'.

'तशें जाल्यार सद्या हांगाच रावया'.

दोगूय जाण थंयच्याच एका हॉटेलांत (साद्या! पंचतारांकीत न्हय!) रावले.

गोंयभर आयिल्ली आकांताची बुडटी पळोवन बिरबलाक शणै गोंयबाबाचे संवसार बुडटेची याद जाली. अकबराक ताणें गोंयबाबाच्या साहित्याची व्हडवीक सांगली.

'आतांच गोमन्तोपनिषत हाड', राजाची ऑर्द. बिरबल हरंधारीच्या पावसांत गोंयभर भोंवलो. कोंकणी साहित्यिकांक, कोंकणी मोग्यांक मेळ्ळो पूण ताका तें पुस्तक खंयच मेळ्ळेंना.

शणै गोंयबाबाली म्होवाळ आनी रोसाळ कोंकणी भास वाचूंक अकबर तानेल्लो आसतना त्याच दिसा तांका एक कोंकणी साहित्यीक मेळ्ळो. व्हडा नामनेचो. ताच्या हातांत आनी बोटव्यांत कोंकणी पुस्तकां आशिल्लीं (ताणेंच बरयिल्लीं) बिरबलाक ताचेकडेन वळख केली आनी शणै गोंयबाबाच्या पुस्तकाविशीं नमळायेन वासपूस केली.

'शणै गोंयबाबाचीं पुस्तकां खंयच मेळनात. तुमी म्हजीं पुस्तकां वाचात'.

'तूं किदें करता?' अकबर.

'हांव बरयतां आनी पुस्तकां काडटां- आयज मेरेन हांवें ८६ पुस्तकां काडल्यांत आनी शेंकड्याकडेन वाटचाल चालू आसा.'

'अच्छा? तुजे विशय कसले?'

'कसले न्हय काय विचार. देखीक कवितांझेले, कादंबरी, कथा, नाटकां, निबंद, वैचारीक लेख, प्रवासवर्णनां.... अशे विंगड विंगड.

'कोंकणी घटनेचे आठवे वळेरेंत पाविल्ल्यान कोंकणीक किदें फायदो जातलो अशें तुमकां दिसता'? - राजा.

'कोंकणी आठवेच किद्याक, सोळावे वळेरेंत लेगीत व्हरपाची तांक आमचेकडेन आसा....'

राजा चक्रावलो. ताणें मदींच म्हळें, 'पूण सोळावी वळेरी म्हळ्यार...'

कच्च करून कोयतेचो घाव घाल्लेभाशेन ताणें म्हळें, 'आयक....!'

आयक म्हूण आपल्याक हुकूम करता तें पळोवन अकबराक मारली भिरभिरी; ताणें बिरबलाकडेन पळेलें; बिरबलाचे दोळे फुतफुतले - 'राजा, तिरसुवाद म्हळ्यार किदें ताचो प्रॅक्टीकल अणभव घेतलो मूं!'

❒❒❒

# ... म्हाका आयकूं दी

जण एकलो उलोवंक सोदता. जण एकल्याक ह्या धकाधकीच्या जिवितांतल्यो आपल्यो समस्या, आपले उत्फरके, उमाळे, दुख्खां, विवंचना खूब व्हड अशें दिसता. सोमालियांत लोक वळवळून मरूं ना जाल्यार भारतभर हिंसाचाराक ओतो येवं, ताका ताची तकली उसळटा ताचें चड पडलां! तो आपलें काळीज उकतें करूंक सोदता; ताका व्यक्त करपाचें आसता. अशे तरेन दर एकलो गायत आसता. पूण आयकतलो गा कोण? सगल्यांनी गाडी चलोवंक सोदल्यार, पॅसेंजर कोणें जावप?

आयकप ही एक व्हड कला. दुसरो मनीस जेन्ना आपलेकडेन उलयता, तेन्ना ताचें म्हणणें लक्ष दिवन आयकूंक फावो. पूण 'पासियेंस' कोणाक आसा? दुसरो जेन्ना उलयता, तेन्ना एक तर आमी ताचे विचार लक्ष दिवन आयकनात वा तो उलयता आसतना ताका मदींच कापतात आनी पर्थून ताचेरूच प्रस्न शेंवटितात.

आमी जेन्ना दोतोराकडेन वतात, तेन्ना आमच्यो पिडा, दुयेंस, क्लेश आमी ताचेमुखार ओंकतात. दोतोर व्हडा पासियेंसान आयकून घेता. तितल्यानूच आमचो जीव अर्दो बरो आनी ल्हव जाल्लेवरी दिसता. आयकुपाखातीर लागता पासियेंस; खूब खूब पासियेंस.

सगलेंच किन्याक आयकुपाचें? भोंवतणीं बरे विचार आसात, तशें वायटूय भरलां. कानांक काय 'फिल्टर' बसयल्ले नात. देखून बुद्द वापरून बरें तितलें आयकुचें. वायट सोडून दिवचें.

सारकें आयकून घेवपाचें पासियेंस नासतकच अर्थाचो अनर्थ जाता. ताका जाल्ले गैरसमज जातात. हातूंतल्यानच विवाकारण वाद, झगडीं, किजिलां, केस्तांवां आनी व्हडलीं व्हडलीं आंतरराष्ट्रीय पांवड्यावयलीं झुजांय जातात. धर्तरेचेर मनशापरस श्रेष्ठ प्राणी आसा? ना. पूण मनिसूच मनशाक फापसून खायत सुटला, रगताचे पाट व्हांवत आसात. बुद्द आनी काळीज हांचो फावो तो मेळ सादून दुसऱ्याक 'आयकून' घेवपाची कुवत ना, म्हूण आमी मनीसपणापसून पयस वचत

आसात.

'मॅनेजमॅंट' विशयाचो अभ्यास करता आसतना म्हाका एक सोबीत वाक्य मेळ्ळें. फोंडेंचे कंपनीचो एक मॅनेजर म्हणटा, 'कशें आयकप हाचेखातीर एक विश्वविद्यालय लेगीत घाल्यार थोडें. आयकप कशें आनी कितें हेंच आमकां समजना आनी हातूंतच कितल्याशाच समस्यांचें मूळ आसा'.

नामनेचो शास्त्रज्ञ आल्बर्ट आयन्स्टायन हाका एकदां एकल्यान प्रस्न केलो: यस म्हळ्यार कितें?

शास्त्रज्ञान जाप दिली : तीन गजाली एकठांय येतकच यस मेळटा, पयली - कश्ट, दुसरी - विसव, तिसरी खंयची? (रावं नजो जावन ताणें विचारलें) - तोंड बंद दवरप.

भारत हो भाशण ठोकप्यांचो देश अशें म्हळां. उठसूठ कोणूय खंयच्याय विशयाचेर लॅक्चरां, तत्वज्ञानां झोडीत आसता. फॅमिली प्लॅनिंगाचो जो वावर चलला तेच वांगडा ह्या भाशणकारांचें 'तोंडा प्लॅनींग' करपाची येवजण आंखल्यार देशाची सगलेच नदरेन उदरगत जातली.

नवें वर्स सुरू जालें. परबीं दीत एका इश्टान म्हाका विचारलें- नव्या वर्साक तुजे संकल्प कितें? एकूच. उणें उलोवप. तोंड एक आनी कान दोन हो सैमाचो गणिती नेम. देखून उलयता ताचेपरस दुपेटीन आयकप. आयकतां तेंय काळजाच्या, अंतस्कर्णाच्या कानांनी आयकप. म्हणटकच मागीर दुबाव, तर्क हांकां कसलोच थारो उरचो ना. सदांच एकूच प्रार्थना दवरप- देवा, म्हाका आयकुपाची शक्त दी....

❒❒❒



# गोमटें गोंय

गोमटें' ह्या उतराचो नेमको अर्थ आनी उत्पत्ती पयर एकल्यान म्हाका विचारली. वेगवेगळ्या कोंकणी कोशांनी हांवें तो सोदलो. घुस्पागोंदळ वाडलो, तेन्ना एका पंडिताक विचारलें. ताणें म्हाका आनिकूय चक्रायलो. मागीर हांवें तो नादूच सोडून दिलो. तुमीय असल्या गजालींचेर संशोधन करून तकली विरार करून घेवं नाकात. नाय जाल्यार असल्या गजालींचेर गिन्यान नासतना गोमटचा गोंयांत समीक्षक, संशोधक, भाशाशास्त्री कोणय जावं येता. हेंच गोंयचें खाशेलपण.

'टाडा' म्हळ्यार कितें, हें म्हज्या एका आदवोगाद इश्टाक विचारलें. तो म्हाका कितें सांगतालो हें ताका समजनाशिल्लें काय म्हजे तकलेंत वचनाशिल्लें, हें देवाक खबर. मागीर सुप्रीम कोर्टाचो मुखेल न्यायाधीश कोण, म्हूण हांवें ताका सहज विचारलें, 'हांव नकळों रे' अशें ताणें सांगतकच म्हाका रडचें कशें जालें. गोमटचा गोंयांत असल्यो कितल्योशोच गजाली घडटात. 'अंधे को अंधा मिला, रास्ता कौन बताय' अशे एक हिंदी कवन आसा. गोमटचा गोंयांत काळखांत चांचपडटना म्हाका मजाच दिसता.

गोमटचा गोंयांत पोरू पावस उणो पडलो देखून मे म्हयन्यांत नळ सुकले खंय! अंदूं मळबाक बुराक पाडिल्लेवरी फाटल्या धा वर्सांनी पडूंक ना इतलो पावस घमघमलो तरी म्हजो नळ मोनो. हे चमत्कार फकत गोंयांतूच घडटात. देखून म्हज्या जिविताक एक वेगळोच रंग आयला.

गोंयचें राजकारण? संवसारांत युनीक अशें. दोन तीन आमदार उरल्यात आसतले, मंत्री जावपाचे. 'लॉजीक' म्हळ्यार कितें न्हय हें जाणून घेवपाचें आसल्यार विधानसभेंत वचून बसचें.

खेळामळार म्हजें गोंय फुडें ना अशें न्हय. कितल्याशाच शिक्षण संस्थांतली टेबल टॅनीस मेजां कँटिनाखातीर वा फायली दवरपाखातीर वापरतात. कांय पोफडेल्यांत. क्रिकेटीची सगली शक्त संघटनेच्या वेंचणुकांच्या देमांदांनी सोंपली.



थोडीभोव उरिल्ली टॅनीस-क्रिकेटींत. बुध्दीबळाचे उदरगतीविशीं उलोवपाक उतरां नात.

गोमट्या गोंयांत कितें जावपाचें उरलां? आंब्यांचें प्रदर्शन, नरकासुरांची सर्त, फोव करपाची सर्त.... सगलें वाडत आसा. हालींसराक भौशीक गणेशोत्सवाची धाम पातळटा. तातूंतलो फिल्मी मोगागितांचो डिस्को अच्छेव आनी लाऊडस्पीकरांचो घणघण पळेतकच 'भक्ती' म्हळ्यार कितें हेविशीं कलियुगांत कोणूय संभ्रमांत पडूं येता. ह्या उत्सवांखातीर माटव घालुंकूय त्रास जायना. म्हेडी पुरपाखातीर रस्तोभर फोंडकुलां, बुराक आसातूच.....

मडगांवच्या रस्त्यांची तर जाल्या चाळण. सुनापरान्त आनी मडगांवकार आवाज उठयत आसात. कोण आयकता गा? रोम लासतालें तेन्ना निरो खंय आवोंताद रेबेक वाजयतालो. उदेंतेकडलें रोम म्हळ्यार गोंय! ह्या रोमांतले निरो लेगीत कुंकरूं कूं रेबेक वाजयत आसात. वाजोवं गा तांकां! निजाचेच संगीतप्रेमी गोंयकार न्ही ते!!

गोमट्या गोंयचें शिक्षण? स्कुलांतल्यान पेल्या वर्सा ६ परिक्षा दिल्यो, पोरूं ४ आनी अंदूं परिक्षा... फकत प्रयोग चलल्यात. 'ॲसायनमॅंट' नांवाच्या त्रिकोनी चरकांत शिक्षक, विद्यार्थी आनी पालक हांचो रोस काडप चललां. शिक्षणाच्या माध्यमाचो वाद सोंपचना. तरी बरें, व्हिडिओ, स्टार, बीबीसी टीव्ही आसा म्हूण भुरग्यांची माणसुकी. ना जाल्यार फार जावपाचो तांचे तकलेचो.

दुख्खां, प्रस्न, समस्या आनी व्यथा हातूंत हुलपतकच गोमट्या गोंयांतलो हांव गोंयकार हड्डें फोडून रडटां, होळोम काडून रडटां.... तांकां समजना, ते म्हणटात- हांव गोड गोड गोमट्या गळ्यान गायतां. आसतूय! म्हज्या रडपांतल्यान लेगीत रगतांतल्या अणूरेणूंनी भरिल्ले स्वरूच ओततात आसुंये....

❐❐❐



# नवें वर्स

वर्सां येतात, वर्सां वतात. आमकां दिसता, वर्सां धांवतात. इंग्लीश भाशेंत एक म्हण आसा. ताचो अर्थ असो- 'मनीस म्हणटा, वेळ सोंपता आनी वेळ म्हणटा, मनिसूच सोंपता'. 'म्हाका वेळ पावना, हांव बिझी आसा' अशें म्हणपाची तर हालीं एक फॅशनूच आयल्या. वेळाक ना सुरवात, ना अंत. आमी सगले जाण ह्या अनंत वेळाचे आगगाडयेंत बसून प्रवास करीत आसतात आनी आपापलें स्टेशन येतकच देंवतात.

कपलाक आटयो घालून, सुखी आसूं वा दुख्खी, 'हॅपी न्यू इयर' म्हूण एकामेकांक परबीं दिवपाची एक चाल आसा. हांवूय हेच चालीक अणुसरून तोंडार सुकें हाशें हाडून सगल्यांक परबीं दितां. हांवें आनीक एक चाल आपणायल्या. ती म्हणजे संकल्प करपाची. दर वर्सा नव्या वर्साचे सुरवेक हांव कांय संकल्प करतां. हे कमिटमॅंट म्हजेचकडेन. अंदूं वर्साचे म्हजे संकल्प अशे:-

१) काटकसर करप. उतरांची आनी पयशांची. उलयतना वा बरयतना उण्यांत उणीं उतरां वापरून चडांत चड सांगपाचो यत्न करप. नाका थंय पयशे मोडप ना. चौग जाणांचो ग्रूप आसल्यार हॉटॅलांत भितर सरप ना. गेल्यार एकलोच वचप, भितर वळखीचो कोण ना हाची खात्री करून.

२) मदरें घालपाक सुरवात करप. खांदाक एक खादीचो बोटवो हुमकळावप. असो भेस करतकच 'ओज' नांवाचें खाशेलें तेज मुखामळार चकचकता खंय. तें किदेंय जावं, असलो भेस आसतकच गोंयच्या सद्याच्या समाजांत तरी ताका बरोच रेश्पैत मेळटा.

३) पोरूं वर्सा सत्यान वागून पळयलें. ह्या सत्याच्या प्रयोगांचो कांयच फायदो जालोना. पदरांत अपमान आनी क्लेश मात पडले. संवसारांत जियेतलो जाल्यार गेंडयाची कातडी जाय, शेड्डयाचें आंग जाय आनी सोरपाचें वीख आनी फुत्कार जाय. साकरेची सुरी घेवन दुसऱ्याचो गळो कापप ही एक व्हडली कला. देखून हांतरूण पळोवन पांय पसरप, वारें येता तशें सूप धरप म्हळ्यार प्रसंगाप्रमाण

सगलीं तत्वां गुठलावप आनी 'कायलोळ्यो सोडप, मतां बदलप; तात्पर्य राजकारणी कसो वागप.

४) घरांत, ऑफिसांत आनी हेरकडेन उणें तापप. आड्डून दुसऱ्यांभितर कांयच परिवर्तन जायना. आपलें प्रेसांव वाडून भलायकी मात इबाडटा. देखून, केदींय व्हडलीं मोडां येवं, झेल कसो थंड रावपाचो यत्न करप.

५) दर वर्सा कोंकणींत साहित्य अकादेमी पुरस्कार मेळटा. एकदां मेळिल्ल्या लेखकाक तो परतो मेळना. जण एकल्या कोंकणी लेखकाप्रमाण म्हाकाय दिसता, एक दीस तरी तो म्हाका मेळटलो म्हूण. पूण हांवें पुस्तक खंय छापलां? देखून, १९९६ त कोणाकूय तोपी घालून एक पुस्तक उजवाडावप. अकादेमी पुरस्कार मेळयल्ल्या एका लेखकाची ताका प्रस्तावना घेवप. कंडो बरो हालूंक जाय, नडणी खंयूय पावूं.

६) दर दिसा एक वर तरी वाचन करप. इल्ल्याशा वाचनाच्या भांडवलाचेर जिवीतभर लेखक म्हूण किदें मिरोवप? गोंयांत बरें आसा. गोंयाभायर खंयूय वतकच चारचौगांमदीं अज्ञानाचें प्रदर्शन जावन जी आकूळ पिकूळ आवतिकाय जाता, ती चुकोवपाखातीर अंदूं भरपूर वाचप.

७) दिवाळी अंक काडप. आगळोवेगळो, खाशेलो आनी दाट. तातूंत साहित्य घेवप ना. फकत जायरात विशेशांक. जायराती मात शुध्द कोंकणीत. संपादक म्हूण बिरूद मेळटलें आनी अर्थीक काळींग जाल्ल्यान दिवाळीय बरी गडगडावंक मेळटली.

८) म्हाका केन्नाच कोण डायरी भेटयनात. देखून एक डायरी विकती घेवप आनी दीसपटी बरोवप. फुडल्या वर्सा वेगळें पुस्तक बरोवपाची गरज ना.

आपल्याक झेपता ते संकल्प करचें, पूण ते तडीक व्हरूंक मात पुराय शक्त लावन वावुरचें. 'Plan your work and then work your plan' अशी एक इंग्लीश म्हण आसा. यत्न करीत रावप, फळाची वान्सा सोडून. कारण फळ मेळप आपल्या हातांत आसना, हें मात इतल्या वर्सांच्या संकल्पांच्या अणभवान कळ्ळें.

❑❑❑

# कथेची कथा

कथा म्हळ्यार किंतें? गोड आवाजांत एकाद्रो गायक ख्याल गायत आसचो आनी आयकुप्यान स्वरांचो आनंद घेवचो सोडून 'राग खंयचो?' हें चिंतीत रावचें, तसलीच गत ही. कथा वाचून फकत आनंद घेवचो. आमकां व्याख्येचे फास्केंत बांदून रावपाक खूब आवडटा. आसूं.

कथा म्हळ्यार कथा. कथा म्हळ्यार काणी वा कथिकाय न्हय. लांबचेलांब पाल्हाळ वचपाचें पासियेंस वाचप्याक आसना. देखून कथाकार एकेकदां कथा मात्शी आंधुळटा. हाका 'लघुकथा' अशें म्हणटात. कथा म्हळ्यार रुपक न्हय. रुपककथा हो कथेचोच एक प्रकार. कथा म्हळ्यार आख्यायिका वा दंतकथा न्हंय. दंतकथा हो कथेचोच दुसरो एक प्रकार. पुराणांतल्यो काणयो, नीतीकथा, लोकांकाणयो हातूंतल्यानूच कथेचो जल्म जालो, अशें आमचे जाणटेले सांगताले; 'हय सायबा' म्हूण आमी तें खरें मानूंक जाय.

कथेचें प्रयोजन किंतें आमचें, हें जाचें ताणें थारावचें. वाचप्यांकडेन, समीक्षकांकडेन मात व्रगेवप्यान हाचेविशीं उलोवचें न्हय, कारण हे लोक कथा जल्माक येनाफुडें 'नाना कथा', 'जना कथा' अशी लेबलां मारून कथेचो रोखडोच बारसो करतात. ह्या लोकांपसून कथाकारान सादूर रावचें.

कथेचें कथानक, थळकाळ पळनासतना केन्नाय बरोवप्याच्या मनांत मूर्त आकार घेवंक लागता, घोळूंक लागना. हाका 'इन्क्युबेशन' जावप अशें म्हणटात. देखून कथाकारान केन्नाच स्कूटर चलोवची न्हय. कारण तकलेंतल्या भरकटपी कथानकावांगडा स्कूटर फरफटत वचून कथाकाराक अपघात जावं येता.

कथेंत किंतें घडचें, हाका आवाठ ना. नामनेचो जर्मन कथाकार काफ्का फ्रान्झ हाचे 'मॅटामॉर्फॉसीस' हे कथेंत मुखेल पात्राचें रुपांतर फुडें एका व्हड किड्यांत जाता. १९०७ वर्सा साहित्याचो नोबॅल पुरस्कार मेळोवपी इंग्लीश साहित्यीक रुडयर्ड किपलींग हाच्या 'द जंगल बूक' ह्या कथांझेल्यांत भारतीय जिणेचें सोबीत दर्शन घडटा. हिंदुस्थानात थोडोच तेंप राबितो केल्लो हो लेखक, एका

भारतीया परस भारतीय जीण प्रभावीपणान चितारता, हें पळेतकच लज दिसता.

म्हजो एक कथाकार इश्ट आसा. आपली दरेक कथा म्हळ्यार एक 'मास्टरपीस' ( ? ) अशें तो म्हाका सदांच सांगता. जॉर्ज बर्नाड शॉ, विजय तेंडुलकार आनी हेरांनी आगगाडयेच्या प्रवासांत अज्रंवर कथा बरयल्यो म्हूण तांची स्फूर्त घेवन म्हज्या इश्टान 'सावड्डें ते वास्को' असो आगगाडयेचो प्रवास करून पळेलो. पूण ताका यश मेळूंक ना. सद्या तो कोंकण रेल्वेची वाट पळेत आसा.

ताका हांवें विचारलें- 'एडगर ॲलन पो, ओ. हेन्री, चेकोव्ह हांणी कथेचें मुळावण घालें, ही गजाल खरी?' तो चणो कसो उसळ्ळो- 'अनुकरण आनी अनुसरण करपाचो मोह जायत देखून हांव कोणाच्योच कथा वाचिना.' हांवे फुडें विचारलें- 'नांवाजत्या हिंदी कथांचो हालींच एक विश्वकोश आयला. तो तुवें पळेला?'

- सांगलें न्हय. हांव वाचीचना. म्हज्यो कथा युनीक. तूं वाचून तरी पळे.

- कोंकणीतली खंयची कथा तुका सगळ्यांत चड आवडल्या?

- शणै गोंयबाबाची 'म्हजी बा खें गेली' ही संवसारीक तोलामोलाची कथा. ही कथा वाचतना आयज लेगीत म्हज्या दोळ्यांतल्यान 'टपटप' दुकां गळटात. ही कथा सगळ्या भासांनी अणकारपाक जाय.

कथाकाराक साहित्यीक संवसारांत खूब मान मेळटा, न्हय?

- कपलाचो, विनोदी कथा बरयतल्याक लोक फकाणेर म्हणटात. कल्पनारम्य (रोमँटिक) कथा बरोवप्याक लोक फाजील म्हण्टात. भुरग्यांखातीर कथा बरयल्यार पचपचीत उथळ अशीं नावां पडटात. नवकथा बरयतल्याक 'फ्राकेज' म्हणटात.

आयचे कथेविशीं तुका किते दिसता?

- कथानक, पात्रां, वातावरण, निवेदन, घडणुको आनी भास ह्या कथेतल्या घटकांचेर कथा-शिबिरांनी फकत फाल्तू चांचाय जाता.

- मागीर ही भासाभास जावची न्हय?

- आयक. प्रदेशीक कथा, दलित कथा, ग्रामीण कथा, विज्ञानकथा, गूढकथा सगळे तरेच्यो कथा आसच्यो. कथांची निर्मिती जावची आनी कथा- शिबिरांनी दरेक

लेखकान स्वताचेच कथेचेर भासाभास करून तीच संवसारांतली बरी कथा म्हूण दुसऱ्यांक आनी स्वताक पटोवन दिवचें.

ताचे हें विधान आयकून म्हाका गिरगिरल्यावरी जालें आनी फुडें उतरांच फुटलींनात!

❑❑❑






# ल्हार शब्दाळ्याचें

सगळेंच म्हारग जालां. नुस्त्याक उजो पेटला. भाजी लेगीत म्हारग. घरच्या पोरसांत कितलीं म्हूण रोयतलो? एक दीस असोच पणजेच्या मार्केटांत भितर सरलो. 'वायंगीं कशी?' - भाजीवाल्याक दोनदां विचारलें. तो शब्दाळें सोडोवपांत इतलो गुल्ल जाल्लो की ताका अक्षरशः हात लायतकच तो भानार आयलो. ताचेकडल्यान हांव दोन गजाली शिकलों त्यो अशो: १) एकाग्रता कशी आसची, ती २) शब्दाळ्यांचें पिशें कितलें भयंकर आसता, तें.

सद्या गोंयांत आयल्या धाम शब्दाळ्याचीं. शब्दाळें, शब्दकुवाडें, उतरकुवाडें, क्रॉसवर्ड, शब्दरंजन हीं सगळीं त्या कपयाळ्याचीं नांवां. प्रोफेसर, दोतोर, वेपारी, विद्यार्थी, जाणटे-नेणटे, दादले-बायलो, शब्दाळ्याक सगळें सारकेंच. तें सगळ्यांकूच पिशें लायता. ताका मागीर 'क्रेझ' म्हणात ना जाल्यार 'फॅड' म्हणात!

काल एका इश्टागेर गेल्लो. भितर सरलां मात येवकार दिवचें सोडून ताणे म्हळें, 'बाबूक एक विचित्र पिशें लागलां. दीसभर त्या शब्दाळ्यांत तोंड घालून आसता. बुशशर्ट लेगीत चॅक्स आशिल्लोच सोदता' हांवें तात्काळ सांगलें- 'प्रसाद घे एक!'

मुंबयचे आगगाडयेंतल्यान प्रवास करप म्हळ्यार एके तरेची ख्यास्तूच. असोच प्रवास करता आसतना म्हजे कुशीक एक सज्जन येवन बसलो. ताणे सांज आवृत्तीचो पेपर काडलो आनी तो शब्दाळ्यांत गुंग जालो. ताका एक शब्द बरोवपाक हांवें आदार केलो आनी विचारलें, किदें मेळटा शब्दाळें सोडोवन?- 'जनरल नॉलेज' ताणें सांगलें.

शब्दाळें सोडयतल्याक किदे मेळटा, हांव नकळो. मनोरंजन मेळटा, सामान्य गिन्यान वाडटा, टाय्म पास जाता, शब्दभांडार वाडटा काय आनीक किदें वाडटा हांव नकळो. एक गजाल मात खरी, संवसारभर ताची लोकप्रियता वाडत आसा.

मार्गारेट थॅचर आनी इंदिरा गांधी हांचेमदीं एक खोशेलें साम्य आशिल्लें.



दोगांय असामान्य कुवतीच्यो प्रधानमंत्री आशिल्ल्यो हें न्हय तर दोगांय शब्दाळ्यांचीं निस्सीम भक्त आशिल्लीं. इंदिरा गांधी वेळ मेळटा तेन्ना 'टायम्स ऑफ इंडिया' वेलें शब्दाळें नेमान सोडयताल्यो.

शब्दाळ्यांची एकदां गोडी लागली म्हणटकच रोखडेंच तें वेसन कशें जाता. दाडयेंत वा दांतांत किदेंय भरतकच जीब एकसारकी आपोआप थंयच वचत रावता, तेचपरी एक दोन शब्द मेळना जातकच दीसभर त्या शब्दांचोच विचार करपी कांय मनीस दिसतात.

मुळाव्या स्वरुपाचीं शब्दाळीं सगळ्यांत पयलीं इंग्लंडांत एकुणिसाव्या शतमानांत आयलीं. आडवे आनी उबे दोनूय वटांनी वाचल्यार तेच शब्द मेळटात, अशे तरेच्या चौकोनांत तीं भुरग्यांच्या आनी हेर नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयलीं. पूण खऱ्या अर्थान पयलें शब्दाळें २१ डिसेंबर १९१३ ह्या दिसा 'न्यू यॉर्क वर्ल्ड' दिसाळ्याचे आयताराचें पुरवणेंत 'फन' ह्या सदरांत उजवाडाक आयलें ताची मांडावळ आर्थर व्हीन हाणें केल्लीं. वाचप्यांक तें खूब मानवलें आनी ताचो प्रसार अमेरिकाभर जालो. वेळ वचपाचें एक बरें साधन म्हूण लोकप्रिय जाल्ल्यान १९२३ मेरेन अमेरिकेंतल्या सगल्या नेमाळ्यांनी हें सदर उजवाडाक येवन ताची लोकप्रियता खूबच वाडली.

शब्दाळ्यांची ही धाम रोखडीच इंग्लंडाक पावली. १९२५ मेरेन सगळ्या ब्रिटीश खबरांपत्रांनी शब्दाळें हें दीसपट्टें सदर जाल्लें. सदचा तरे तरेचीं, नाना आकाराचीं शब्दाळीं चडशा सगल्या देशांनी खबरांपत्रांतल्यान आनी हेर नेमाळ्यांतल्यान उजवाडाक येतात. चीनी भाशेंत मात शब्दाळीं नात. हाचें कारण म्हळ्यार चीनी लिपींत शब्दाळीं करप शक्य ना. कांय नामनेच्या विदेशी नेमाळ्यांनी शब्दाळ्यांखातीर एक विशेश विभाग आसता आनी ह्या विभागाखातीर एक खास 'शब्दाळें संपादक' (क्रॉसवर्ड एडीटर) आसता.

१० एप्रील १९२४ ह्या दिसा शब्दाळ्याचें पयलें पुस्तक उजवाडाक आयलें. आयज संवसारांतल्यो वेगवेगळ्यो पुस्तक कंपनी विंगड विंगड शब्दाळ्यांचीं तरेकवार पुस्तकां उजवाडायतात.

दुसऱ्या म्हाझुजावेळार न्यूजप्रिंटाच्या उणावाक लागून ब्रिटीश खबरांपत्रांचीं

पानां उणीं करची पडलीं. पूण शब्दाळ्याच्या लोकप्रिय सदराक मात कातर मारलीना, हाचेवेल्यान शब्दाळ्याची खर लोकप्रियता दिसून येता. कांय वर्साआदीं अमेरिकेंत 'गॅलप पोल' नांवाचो सर्वे केल्लो. तेन्ना हेर साधनांभितर 'शब्दाळें' हो pastime खेळांचो राजा म्हूण निश्कर्श आयलो.

विज्ञान आनी हेर कांय विशय शब्दाळ्यासारक्या मनोरंजनात्मक माध्यमांवरवीं शिकोवपाचीय एक चाल आयल्या. बायबलाचो अभ्यासक्रम शिकोवपी शब्दाळींय संवसारांत बरींच लोकप्रिय थारल्यांत.

१९३० सावन अमेरिकेंतल्या नेमाळ्यांनी शब्दाळ्यांखातीर धा हजार डॉलर्स मेरेन व्हड व्हड इनामां दवरपाक सुरवात जाली. इनामांक लागून शब्दाळ्याचो प्रसार समाजाच्या सगळ्या थरांमदीं अदीक प्रमाणांत जालो. भारतांतल्या 'इलस्ट्रेटेड विकली' ह्या सातोळ्यान कितलींशींच वर्सां शब्दाळ्याखातीर इनाम दवरिल्लें.

३० ऑगस्ट १९६१ दिसा दोग जाण अमेरिकन मॉंत ब्रांक वाठारांत केबल गाडयांच्या अपघातांत सांपडिल्ल्यान एके गाडयेंत घुस्पून उरले. तांकां तातूंतल्यान 'सोडयसर' तांणी एक व्हडलें शब्दाळें 'सोडयत' आपलो वेळ (त्या आकांतांत लेगीत) पासार केलो.

१९३० त, 'क्रॉसवर्ड' (शब्दाळें) हो शब्द शब्दकोशांत आयलो आनी कालांतरान तो रोखडोच विश्वकोशांतूय आयलो. शब्दाळ्यांतल्यान कितल्याशाच हेर खेळांचोय जल्म जालो.

इंग्लीश शब्दाळीं चडशीं समरूप आसतात. इंग्लीश शब्दांचो आवाठ खूब व्हडलो आशिल्ल्यान असले तरेचीं शब्दाळीं हालीं हालीं संगणकावरवींय घडयतात.

शब्दाळ्यांच्या इतिहासांत विदेशांत एकदां विचित्र घडणूक घडिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा. 'आपलो घोव दीसभर शब्दाळ्यांत मग्न आसता आनी ताका लागून तो आपलेकडेन आनी घरच्या संवसाराकडेन लक्ष दिवपाक असमर्थ थारला', ह्या कारणाखातीर एके बायलेन कोर्टावरवीं घटस्फोट घेतलो. गोंयांत सद्या शब्दाळ्यांचें बरेंच व्हडलें ल्हार आयलां. शब्दाळ्यांच्या वेसनाक लागून आपलो घोव वा आपली बायल संवसाराकडेन लक्ष दिना, ह्या कारणाक लागून एकाद्रो गोंयकार/गोंयकान्न बी घटस्फोट घेना मूं? मुळांतूच गोंयांत लग्न आनी घटस्फोटाखातीर पुर्तुगेज कायदो लागू आशिल्ल्यान घटस्फोट घेवप तशें कठीणूच. पूण शब्दाळ्याखातीर बी अशी घडणूक घडत जाल्यार तो एक व्हडलो इतिहासूच जातलो, हातूंत मात दुबाव ना!

❑❑❑



**श्री. मुकेश थळी**

- जल्म : ५ जून १९६३.
- मार्च १९७९ त, गोवा बोर्डात S.S.C. परिक्षेंत दुसरो क्रमांक.
- S.S.C. आनी बारावेंत कोंकणी विशयांत बोर्डात पयलो.
- एप्रील १९८५ त मुंबय विद्यापीठाची गणित विशयांत B.Sc.
- फोंडेंच्या गोवा विद्याप्रसारक मंडळाच्या हायस्कूलांनी तीन वर्सां गणित विशयाचें अध्यापन.
- गोवा विद्यापीठाच्या कोंकणी विश्वकोश विभागांत संशोधन सहाय्यक म्हूण स वर्सांचो अणभव.
- भुरगेपणासावन विंगड विंगड विशयांचेर बरोवप.
- 'सुनापरान्त' दिसाळ्यांत विज्ञान हें सदरूय बरयलां.
- 'नवहिन्द टाय्म्स' दिसाळ्याखातीर पुस्तक परिक्षणां बरयल्यांत.
- 'टाय्म्स ऑफ इंडिया: गोवा प्लस' हे पुरवणेखातीर कोंकणी साहित्य आनी साहित्यीक ह्या विशयाचेर बरोवप.
- 'भुरगी आनी राजहंस' ह्या नेमाळ्यांत सातत्यान बरोवप.
- पणजी दूरदर्शनाचेर साबार कार्यावळी वितरायल्यात.
- सद्या आकाशवाणी पणजी केंद्राचेर खबरां-निवेदक.

जैत प्रकाशन

Samrat Printers, Banastarim - Goa. Ph. 287755